


## केजी, बालवाडी, आंगणवाडीतल्या भुरग्यांखातीर

# गितभारती – बालगितांचें पुस्तक

बालगीत निकेतन हे संस्थेन निर्माण केल्लें 'गितभारती' बालगितांचें पुस्तक उजवाडा आयलां. हें पुस्तक केजी, बालवाडी, आंगणवाडी हातूंत शिकपी माणकुल्या भुरग्यांखातीर खास तयार केलां. हातूंत बालगितां, नाचगितां, खेळगितां आसात. तशेंच बुद्धीचो विकास करपी अभ्यासगितां, सामान्यज्ञान, पारंपारीक आनी नव्यो काणयो आसात. भोंवतणीची वळख, गोंयची व्यक्तिचित्रां, गोंयच्यो परबो आनी उत्सव, निर्मिती, उद्देग, तक्ते हांचोय आस्पाप केला. तशेच वेगवेगळी सोबीत चित्रां दर पानार भरल्यात.

भुरग्यांची सर्वंगी उदरगत जावपाखातीर ह्या पुस्तकाचो बेस बरो आदार जातलो असो हांवेस पुस्तकाचे संकल्पक आनी संपादक श्री. तुकाराम शेट हांणी उक्तायला. माणकुल्यांक शिकपाची उमेद हाडपी हें पुस्तक गोंयच्या पूर्व प्रार्थमिक शाळांतल्या विद्यार्थ्यांखातीर उपेगी आसा. तशेच हातुंतल्या बालगितांचे खुबश्या शिक्षकांक प्रशिक्षण मेळ्ळां.

ह्या पुस्तकाच्यो प्रती कोंकणी भाशा मंडळ, विद्यानगर, मडगांव, पणजेच्या टी. बी. कुन्हा मेमोरियल हॉलांतल्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या कार्यालयांत तशेच गोंयच्या नांमनेच्या पुस्तक विकप्याकडे मेळटात. शिक्षणीक संस्थांनी, शिक्षकांनी, पालकांनी ह्या पुस्तकाखातीर आनी माहितीखातीर श्री. तुकाराम शेट, बालगीत निकेतन, व्हाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय ह्या नाम्यार वा २४११४१४ ह्या फोन नंबरार संपर्क करचो अशें कळीत केलां.

# कोंकण टायम्स

# बरपावळ

जानेर - मार्च २००७

वर्स २८ वें,
अंक १

**कोंकण टायम्स पब्लिकेशन**

वाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय - ४०३१०१
फोन नं. २४११४१४,
Regd. R. N. No. 39874/83

संपादक
O तुकाराम शेट

संपादन पालव
O निलबा खांडेकार
O महादेव भोसले

उजवाडावपी
O हिरा शेट

अक्षर जुळोवणी
O कलाकृती
दु. नं.३३, मधुबन कॉम्प्लेक्स,
तांबडी माती, सांत-इनेज,
पणजी, गोंय. फोनः २४२६५२६

छापपी
O उमेश वागळे
प्रिंट आर्ट ऑफसेट प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रीयल इस्टेट,
कुंडय, गोंय.

स्टॉलार अंकाचें मोल रु. १०/-
वाचनालय प्रत रु. २०/-
वर्सुकी वर्गणी रु. ४०/-

# CO-OPERATE WITH US

*To make use of Helmets a success*



- Use of Helmets are compulsory for 2-Wheeler riders and pillion riders
- Straps should be fastened securely
- Helmets should be of approved ISI specification

**WEAR A HELMET, HAVE A SAFE RIDE**

Issued in public interest by




Aim to reduce DEATHS & INJURIES caused by road accidents

# गांधींची अध्यात्म साधना

- रवीन्द्र केळेकार

काकासायबांल्या 'बापूकी झांकियां' पुस्तकांत एक खबर आयल्या-

एक खेपे गांधी आंध्र प्रदेशाच्या दौऱ्यार आशिल्ले. चिकाकोळ गांवांत पावतासर रातचीं धा जाल्ली. थंय एक सभा आशिल्ली. ह्या दौऱ्यांत गांधी वांगडा महादेवभाई आशिल्ले तशे काकासायबय आशिल्ले. दोगांकूय पुरो जाल्ले. गांधीनी तांकां म्हळे, 'तुमकां पुरो जालां. तुमी मुक्कामार वचून न्हिदिल्ले बरे. हांव सभा सोपोवन येतां. पावतासर म्हाकां बारा जातलीं. ते मेरेन तुमकां जागरण नाका. पडल्या फळाची आज्ञा मानून दोगूय मुक्कामार गेले आनी न्हिदले.

सकाळीं उठनाफुडे गांधींनी महादेवभाईक विचारलें, 'महादेव, रात्रे प्रार्थनानुं शुं थयुं?'

'म्हाका इतलें पुरो जाल्लें कीं हातुळणाक फाट तेंकयनाफुडें दोळो लागलो. प्रार्थनेचो उगडासूच उल्लो ना.' महादेवभाईंनी जाप दिली.

'म्हाकाय उगडास उल्लो ना.' गांधीनी म्हळें, 'रातची दोनांक जाग आयली तेन्ना काल प्रार्थना केली ना हाचो उगडास जालो आनी म्हाका थरथरो भरलो. जाचे इत्सेन हांव न्हिदेतां ताकाच हांव विसरलों म्हळ्यार कितें? हांवें देवाची क्षमा मागली पुणून उपरांत न्हीद निखालस पडली ना. जागोच बसून रावलां'.

सकाळचे प्रार्थने उपरांत गांधींनी रोखडोच निर्णय घेतलो, 'सगळी कामां करून न्हिदचे पयलीं प्रार्थना करप हीच पयलीं आमची चूक. सांजचे प्रार्थनेचो वेळ थारावंक जाय. आयच्यान सदद्दां सांजच्या पांचांक प्रार्थना करप. मोटारींत आसले जाल्यार मोटारींत. गाडयेंत आसले जाल्यार गाडयेंत. सभेंत आसले जाल्यार सभेंत. सांजची पांच म्हळ्यार पांच. प्रार्थना सुरू जावंकूच जाय. एका मिण्टाचो लेगीत कळाव जावंक जायना- सगळ्यांक हें कळय...'

देशांत कितलेशे आश्रम चलताले. थंय आश्रमी प्रार्थना चलताली. तेदूसच्यान सगळ्या आश्रमांनी सगळ्या खादी केन्द्रांनी, गांधीक मानतल्या सगळ्या घरांनी, सांजच्या पांचांक प्रार्थना जावपाक लागली. जंय पावतात थंय - रानांत, गांवांत, वाटेर खंयूय कोण पावूं सांजच्या पांचांक 'रू ब्रह्मा वरुणेन्द्र रुद्र मयंत:' श्लोकाच्या आंदोलनान भारताचें मळबार तेदूसच्यान गाजवपाक लागलें.

सांजच्या पांचांक प्रार्थना जावंक जाय असो निश्चय केलो खरो. पुणून रातीं प्रार्थना करूंक विसरले हाचो पच्छाताप गांधींचे नुरेर पुराय आदेस उफेवन उरलो. तो पळोवन काकासायबांनी तांकां म्हळें, 'बापूजी, एक काणी सांगू?'

गांधींनी तांचे कडेन पळेलें. काकासायबांनी म्हळें, 'एक सुफी संत आशिल्लो ताची सदद्दां पांच खेपे 'नमाज' चलताली एक दीस तो रातची नमाज विसरलो. ताका पुरो जाल्लें. आड पडलो. दोळो लागपाक कोणे तरी येवन ताका उठयलो, 'सभाग्या, न्हिदता कितें? ऊठ. तूं नमाज विसरला.'

संत खडबडून उठलो, उठोवंक आयिल्याचे ताणे उपकार आठयले, 'नमाज करूंक नाशिल्ली जाल्यार व्हडले पातक लागतलें आशिल्लें म्हाका, तुवें म्हजेर खूब उपकार केले पुता. कोण तूं?'

'हांव ? इब्लीस...'

'इब्लीस?' संतान अजापान ताचे कडेन पळेलें 'आरे, तूं खुदाचो दुस्मान मरे, .... लोकांक खुदाचो विसर घालप हेंच तुजें काम न्हय? तुवें म्हाका उठोवपाची तकालस कित्याक घेतली?'

'एक खेपे तूं असीच नमाज विसरिल्लो. इब्लीसान म्हळें, ती पळोवन हांव खोश्शी खोश्शी जाल्लों. पुणून दुसऱ्या दिसा तुका इतलो पच्छाताप जालो की तूं खुदाक चड लागिचो जालो.. तेन्ना पसून हांवें थारायलें, तुका हे मुखार केन्नाच नमाजीचो विसर पडूंक दिवचों ना...'

गांधींनी मुमुरख्यांनी हांसून काकासायबांकडेन पळेलें आनी ते कामाक लागले. तांगेलो पच्छाताप न्हिविल्लो.

गांधींचे खरेंलें रूप तें हें. एक चतूर चाणाक्ष राजकर्णी म्हूण तांगेले जे रूप नामनेक पावलां ताणे तांगेले हें खरें रूप लिपयलां. ते श्रद्धावान मनीस आशिल्ले. तांगेली आवय श्रद्धावंत आशिल्ली खरी. तिगेलो प्रभाव तांचेर आशिल्लो खरो. पुणून श्रद्धेच्या ज्या संस्काराक लागून तांणी आपणाल्या मुखावेल्या आयुष्यांत आपणाल्या आध्यात्मीक जिवितांचें भव्य-दिव्य मंदिर उबें केल्लें तांचें बीं तांगेले कंवळे पिरायेर रंभेन घाल्लें. रंभा तांगेल्या घरांत वावर करताली. एक दीस जिणे माणकुल्या मोहनाक (गांधीक) एके पाळणीच्या दारांत उबो रावन कांचवेल्लेवरी फाटीफुडें सरता तो पळेलो. 'कितें जालां पुता! असो कांचवेता कित्याक?' तिणे ताका विचारलें.

'म्हाका हे पाळणींतल्यान वचपाचें आसा' ताणे जाप दिली.

'मागीर? फाटींफुडें कित्याक सरूंक जाय? नीट चलून वच!'

'म्हाका काळखाचो भंय दिसता.'

'कोणाचो भय?'

'भुतांचो.'

रंभा खो खो करून हांसपाक लागली. 'आवंय, भुतांक रे

कित्याक भियेवंक जाय? तोंडान राम राम म्हणीत वच. रामाचें नांव आयकना फुडे भुतां सगळीं पळून वतलीं. तिणे म्हळें.

माणकुल्या मोहनाचो रामापरस रंभेचेर चड भावार्त. ती सांगता तें लटकें केन्ना नासता, अशी ताची भावना. तो राम राम करीत काळखांतल्यान गेलो. त्या दिसा सावन ताचे जिबेरूच न्हय, तर काळजांत लेगीत रामाचें नांव घोळपाक लागलें. केदेंय दु:ख, संकश्ट, अरिश्ट येवन कोसळूं, रामाचे नांव घेना फुडें ताचो भंय ना जावपाक लागलो. तागेलो राम दशरथाचो पूत न्हय, तर ताज्या काळजांतलो राम- अंतर्यामी आशिल्लो. तो आपल्या करण्यो पळेता, आपणाक वाट दाखयता, धीर दिता, प्रसंगार पावताच पावता अशे दिसपाक लागलें. हाकाच लागून मुखावेल्या आयुष्यांत केद्याय उज्यांत उडी घेवपाची तांची तांक वाडत गेली.

हो खोल 'अणभव' गांधींचो.

ह्या अणभवा वांगडा आनीक एका संस्काराची बुन्याद ताज्या काळजांत तेच कंवळे पिरायेर पडिल्ली. 'संवसार नितीच्या तत्त्वांचेरुच उबो आसा' म्हणपाची. 'जिविताचे बुन्यादींत नीतूच आसूंक जाय' म्हणपाची.

गांधींनी आपणाले पुराय जिवीत नितीच्या तत्वांचेर उबें करपाची साधना केल्या. तांगेली साधना ताळकुट्यांची नाशिल्ली. ती एका कृतिशील देशभक्ताची आशिल्ली. एका क्रांतिकारकाची आशिल्ली. ती सारकी समजून घेवपाक तांगेल्या 'वैष्णव जन तो तेने कहीए, जे पीड पराई जाणे रे' ह्या प्रिय भजनाची इल्ली नियाळणी करूंया. हें भजन अशें-

*वैष्णव जन तो तेने कहिए, जे पीड पराई जाणे रे;*
*पर दु:खे उपकार करे तोये, मन अभिमान न आणे रे।*
*सकळ लोकमां सहुने वंदे, निंदा न करे केनी रे;*
*वाच काछ मन निश्चळ राखे, धन धन जननी तेणी रे ॥१॥*
*समदृष्टि ने तृष्णा त्यागी, परस्त्री जेने मात रे;*
*जिव्वा थकी असत्य न बोले, परधन नव झाले हाथ रे॥२॥*
*मोह माया व्यापे नहीं जेने, दृढ वैराग्य जेनां मनमां रे;*
*रामनाम शुं ताळी लागी सकळ तीरथ तेना तनमां रे॥३॥*
*वण लोभी ने कपट रहित छे, काम क्रोध निवार्यां रें;*
*भणे नरसैंयो तेनुं दरसन करतां, कुल एकोतेर तार्यां रे॥४॥*

हें भजन रचलां सौराष्ट्रांतल्या भक्त नरसैंयान, गांधी जल्माक येवचे पयलीं तांगेलें जिवीत जशे किते 'पळोवन' बरयतले वरी. ह्या भजनांत गांधींक आपणाल्या जिविताची मोख मेळिल्ली. देख मेळिल्ली आनी तांणीं तें पुराय आत्मसात केल्लें. हेच देखीन ते चलत आयिल्लें. आयज तें 'गांधी भजन' म्हूण नामनेक पावलां.

गांधींक तें कित्याक आवडलें?

भारतीय परंपरेंत भक्तिच्यो तीन तरा चलत आयल्यात. एक अद्वैत भक्तीची. आत्मो आनी परमात्मो (जीव आनी शिव) हीं दोन वेगळीं तत्वां न्हय. एकाच तत्वाचीं तीं दोन नांवां, अशें मानपी. दुसरी द्वैतभक्तीची. परमात्मो परमात्म्याचे सुवातेर सोबता. तो आनी हांव एक अशें म्हणपाचें धाडस आमकां जावपाचें ना; तो आमचो धनी, आमी ताचे सेवक. ताच्या पांयांकडेन बसून ताका आमचें 'सर्वस्व' ओपून ताका होरावपी. अद्वैत भक्ती ज्ञानी लोकांक सोबता. सरसमान लोकांक ती पेलपाची न्हय. 'हांव राम', 'हांव कृष्ण' 'सोऽहम्' अशें मानात म्हूण तांकां शिकयलें जाल्यार तांचे पतन जावं येता अशे म्हणपी. आनी तिसरी विशिष्ट अद्वैत परंपरेची अद्वैत-भक्ती आनी द्वैत-भक्ती हांचे मदली. ती म्हणटा, 'ती ती आनी हांव हांव' ही वस्तुताय आमी मान्य करूंकच जाय. पुणून 'तो आनी हांव एक' ही मोख निमाणे गांठूंक जाय. द्वैतभक्ती ही साधना. अद्वैतभक्ती ही सिद्धी.

कसलीय भक्ती जावं, ती पुजा, अर्चा, किर्तन ,सत्संग, असल्याच गजालिंनी गुल्ल उरल्या. सरभोवतणच्या संवसाराचें आपणाक कांय लागना हेच भाशेन चलत रावल्या. भोवतणच्या संवसाराक ईश्वराचें कांय लागना जाल्यार आमी संवसाराचें कित्याक लावन घेवक जाय, संवसाराक वचूंदी आयले वाटेन. आमी आमचेच वाटेन वतले. 'जाके प्रिय न राम वैदेही। तजिये ताहि कोटि बैरि सम, अद्यपि परम सनेही' - जाका राम आवडना ताका एक क्रोट दुस्माना सारको लेखून सोडून दिवंपाचो. आसना मागीर तो आमचो जिवभावाचो इश्ट! प्रल्हादान बापायक सोडून दिवंक नाशिल्लो? विभीषणान भावाक आनी भरतान खासा आवयक सोडूंक नाशिल्ली? बळीन गुरुक (शुक्राचार्याक) सोडिल्लो आनी ब्रजांतल्या गोपींनी घोवांक सोडून दिल्ले. वैष्णव भक्तां मजगती एक आख्यायिका चलत आयल्या - मीरा पायांक पांयजणा घालून देवळांत नाचूंक लागली आनी घरचे लोक तिका त्रास दिवपाक लागले तेन्ना तिणे 'हांवें आतां कितें करचें' म्हूण तुळशीदासाक विचारलें आनी तुळशीदासान खंय तिका 'सोडून दी सगळ्यांक' म्हूण बुद्द दिल्ली. मीरा हे सांगणेक मान दिवन देवळांत नाचपाक लागली. म्हजें देवूळ, खेळांतली मुर्ती म्हजो देव, ह्या देवाची पुजा अर्चना म्हजो धर्म, आनी म्हजे सारकेल्या भगवद्भक्तांचो सत्संग हो म्हजो संवसार. हाचे भायर म्हाका कांय लागना अशें म्हणून तिणे घरच्यांक सोडले. घराण्यांचे आचार धर्म सोडले आनी 'मेरे तो गिरिधर गोपाल, दूसरा न कोई' हे भावनेन ती आपणाले भक्ति-साधनेंत गुल्ल उरली. ह्या तोंका मेरेन भक्तिसाधना वता ती पळोवन नरसैंयो म्हणटां, भोंवतणची संवसारी उवेखणी निखालूस उपकारा पडना. भोंवतणचो संवसार (विश्व) हो विष्णूचो पयलो (आद्य) अवतार म्हणपाचें तुमकां खबर ना? विष्णून सगळ्यांत पयली विश्वाचेंच रूप घेतलां. ताची उवेखणी करून उपरान्तच्या ताच्या अवतारांकूच मानप समा न्हय. आद्य अवताराक निखालस विसरूंक फावना. विश्वांत रावतल्या सगळ्यांचें आमकां लागता. लागून घेवंक जाय. 'वैष्णव जन तो' भजनांतले 'तो' हें उतर वजन दिवन उच्चारपाचें. 'तीनशे टन वजन वापरून उच्चारपाचें' अशें कवी उमाशंकर जोशी म्हणटाले. वैष्णव जन कोणाक म्हणपाचो? तर 'जे पीड पराई जाणे रे', दुसऱ्यांचे दु:ख आपले दु:ख जाल्ले वरी जो मानता, 'अणभवता' ताकाच. तें पयस करपाक पोटतिडकेन वावुरता ताकाच. कपळाक गंधाचो तिळो लायिल्या, हातांत तुळशीमाळ घेवन जप करीत बशिल्ल्या, देहभान विसरून नामस्मरणांत गुल्ल राविल्ल्याक न्हय.

दुसऱ्यांचें दु:ख पयस करपाक पोटतिडकेन वावुरतल्याकूच. ह्या 'दुसऱ्यां'त घरची मनशां येतात तशीं सरभोंवतणची मनशांय येतात. इतलेंच न्हय, तर मनीस येवचे पयली धतरिर जल्माक आयिल्ल्या किडी मुंयांपसून ती गेंड्यां मेरेनच्या सगळ्या 'जिवां' चो-ह्या जिवां सांगातान जल्मा येतले वाडटले आनी मरतले वनस्पती सृष्टीचोय आसपाव करूंक जाय. तिकाय जीव आसा. खंयच्याय जिवाक दुखापत जावंक जायना. जाता तेन्ना ती आपणाकूच जाल्लेवरी भक्ताक दिसूंक जाय. आनी ती पयस करपाक ताणे वावरूंक जाय. ही खरी भक्ती. ही भक्ती करपी मनीस समाजसेवेचेंय आपणाक लावन घेतलो तशे पर्यावरणाचे प्रस्नूय आपणाक लावन घेतलो. दुष्काळा सारकीं संकश्टां कोंसळ्ळी जाल्यार दुष्काळग्रस्त लोकांक आधार दिवपाकूय तो धांवन वतलो. तशे कोणाचेंय शोषण जाता-शें दिसलें जाल्यार तेय ना करपाक वावुरतलो. इतलेच न्हय, तर गुलाम जाल्ल्या देशांत स्वराज्याचे चळवळीतूय पडटलो. इतलेय करून आपूण कोणाचेर उपकार करतां अशें मानचो ना. जाचें काळीज अनाथ, पिडीत, दीन दुबळ्या, नागवल्ल्या, चिड्डल्या लोकांचे दु:ख पळोवन कळवळून येता ताकाच वैष्णव मानपाचो.

*सकळ लोकमां सहुने वंदे, निंदा न करे केनी रे;*
*वाच काछ मन निश्चल राखे, धन धन जननी तेनी रे।*

सगळ्यां विशी ताका पुज्यबुद्धी आसतली. अखटाय तो कोणाचीच करचो ना. मन वाचा आनी काया ताची निश्चळ आसतली. सदळ आसची ना. ('काछ' ह्या उतराचो अर्थ कांय जाण 'काश्टी' वा 'पुडण्याची कास' असो करतात. संयमी मनीस असो आसता म्हूण. पुणून कांय जाण ह्या उतराचो अर्थ 'काज' (काम) असोय करतात जाची कायां, जाच्यो करण्यो निश्चळ आसतल्यो. सदळ आसच्यो नात, असलो मनीस. ताका जल्म दिवपी आवय धन्य मानची पडटली.

*समदृष्टि ने तृष्णा त्यागी, परस्त्री जेने मात रे;*
*जिव्हा थकी असत्य न बोले, परधन नव झाले हाथ रे*

तो कोणाक 'आपलो' कोणाक 'पेलो' मानचोना. सगळ्यांक सारकेच लेखतलो. दुष्ट सुष्ट असलेय वेगळेचार मानचो ना. सगळ्यांची सारकीच सेवा करतलो. कसलेय तरेची वान्सा (तृष्णा) ताका आसच्यो नात. तो नि:स्वार्थी आसतलो. खंयचेय बायल मनशेकडेन तो वांकडे नदरेन पळोवचो ना. तिका आवय भयण धुवे सारकीच लेखतलो, फट केन्ना उलोवचो ना. कसलींच फटींगपणां करचो ना. आनी कोणाच्याय धनाचेर नदर दवरचो ना, ते हातासपाचो यत्न तर निखालस करचो ना.

*मोह माया व्यापे नहीं जेने, दृढ वैराग्य जेनां मनमां रे;*
*रामनाम शुं ताळी लागी सकल तीरथ तेना तनमां रे।*

ताका कसलोच मोह आसचो ना, लोभ आसचो ना ताचें मन सदां वि-रागीच उरतलें. आनी तो दीसरात खिणान खीण अंतर्यामी (रामाचे) सासायेत ताचेकडेन ताल धरून निदेतलो. ताची कूड पवित्र तीर्थांसारखी जातली.

*वणलोभी ने कपट रहित छे, काम क्रोध निवार्या रें;*
*भणे नरसैंयो तेनुं दरसन करतां, कुछ एकोतेर तार्या रे।*

ताका कसलोच लोभ आसचो ना. ताच्या काळजांत कपट आसचें ना. तिडक ओडी सारके दानव ताच्या काळजांतले ना जाल्ले आसतले. असलो निर्मळ भक्त पळोवंकूय मेळ्ळ्यार पुरो, आमच्यो फुडल्यो एकशे एक पिळग्यो तरतल्यो. तांचो उद्धार जातलो. ('एकोतेर' म्हळ्यार एक्यात्तर न्हय, 'एक उत्तर शती' एकशे एक)

आतां सांगात हें वर्णन गांधींचें न्हय?

गांधी चतूर राजकर्णी आशिल्ले. इंग्रजांक वस्ताद. आयुष्याचो खिणान खीण तांणी देश बंदेपणातलो मेकळो करपाक खर्चिला. व्हडांतले व्हड एक सुटके झुजारी आशिल्ले तशे सामान्यां भायले सुटके झुजाऱ्यांचे सेनापतीआशिल्ले.

क्रान्तिकारी समाजसेवक आशिल्ले. तशे आगळे वेगळे राष्ट्रनिमति आशिल्ले. खूब किर्ते किर्ते आशिल्ले. पुणून तांगेले सगळे वावर अंतर्यामीचो सतत सांगात मेळचो म्हुण्णूच चलत आयिल्ले. अंतर्यामीचो सांगात जोडपाक आंवडेपी सगळे एकांतांत गेल्यात. गांधी एकान्तांत वचूंक नात. दिसाची चोविसूय वरां लोकांमजगती वावरून तांणी एकांत जोडला. आयुष्यभर रामाचें नांव घेवनूच तांणी देशसेवा केल्या. आनी निमाणो स्वास सोडलां तेन्नाय 'हे राम' म्हणुनूच सोडला.

देशसेवक जायते जावन गेल्यात. सगळ्याच देशसेवकान अंतर्यामीचो सांगात जोडचो म्हूण देशसेवा करूंक ना. तशे अंतर्यामीचो सांगात जोडपा जायते जाणा आंवडेल्यात तांचे मजगतचो एकलोय देशसेवेंत पडूंक ना.

ह्या देशांत ऋग्वेदाच्या काळासावन आतामेरेनच्या काळांत जें अध्यात्म चिंतन जालें ताचो आपरोस आमकां खंय मेळटा? सत्य अहिंसा अस्तेय अपरिग्रह आनी संयम (ब्रह्मचर्य) ह्या पांच मूल्यांत. ह्या पंच मूल्यांक आमगेल्या म्हालगड्यांनी पांच महाव्रतां म्हळ्ळीं. योगशास्त्र तांकां पांच यम नियम म्हणटा. बौद्ध जेते, वेदांती सगळ्यांनी ती उखलून धरल्यांत मुस्लीम आनी ख्रिस्ती धर्मानीय आपणायल्लीं पळोवंक मेळटात. आध्यात्मिक उन्नती खातीर निर्वाणाखातीर, मोक्षाखातीर तीं गरजेचीं अशें मानून तांकां सगळे साधक पाळो दीत आयल्यात. रासवळ मळार वावुरतल्या समाजसेवकांनी, देशभक्तांनीय तांकां पाळो दिवंक जाय. अशे कोणेच सांगूकना. अशें सांगपी इतिहासांतले पयले वयले साधक गांधीच आशिल्ले. परंपरेत मान्यता पाविल्ल्या ह्या पांच व्रतांत शरीरकाम, अस्वाद, सर्वत्र भयवर्जन, सर्वधर्मी समानत्व स्वदेशी आनी स्पर्शभावना ही स व्रतां जोडून 'एकादश' व्रतां संवसारा मुखार दवरलीं. गांधींचें रासवळ मळाक खरें योगदान तें हें.

'वैष्णव जन तो' हें भजन ह्या इकरा व्रतांवेले एक सुंदर भाष्य.

गांधी देशभक्तांत आगळेवेगळे देशभक्त आशिल्ले. विचारवंतांत आगळे वेगळे विचारवंत आशिल्ले. तांगेली आध्यात्मीक साधनाय आगळी वेगळी आशिल्ली.

❑❑❑

# कोंकणी संगीत आनी गितां

- मुकेश थळी

कोंकणी सुगम संगिताक दिशा दिवपाचें आनी ताची लोकप्रियता वाडोवपाचें मुळावण आकाशवाणीन घालां अशें म्हळ्यार अतिताय जावं नजो. १९५०-१९६० मजगतीं आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्रावेल्यान अज्ञंवर अशा कोंकणी गितांची निर्मणी जावन हीं गितां घरांघरांत पावलीं. हाचें श्रेय पं. जितेन्द्र अभिषेकी आनी हेर संगीतकार, गीतकार हांकां वता. आकाशवाणी हें त्या तेंपावेलें एकमेव आनी शक्तीशाली माध्यम. ग्रामोफोन रेकॉर्डी आशिल्ल्यो. टेपरिकॉर्डर लेगीत नाशिल्ले. देखून रेडियोवेलीं हीं सगलीं गितां आयकुप्यांनी उखलून धरलीं. तांच्या ओंठांत -तोंडांत तीं घोळत उरलीं.

गोंय मुक्तीउपरांतूय गोंयांत जायत्या अज्ञंवर गितांची निर्मणी जाली. शंकर भांडारी हाणी रचिल्लें व्यंकटेश गोडखिंडी हाणी संगीत दिल्लें 'गोड गोड गोड गळ्यान गोमटें गोंय गायता' हें एक लोकप्रिय गीत. उदयबाब भेंब्रो हाणी बरयल्लें 'चान्न्याचे राती' हेंय आनीक एक लोकप्रिय गीत. किरिस्तांव आनी हिंदू दोनूय धर्मीयांक एकठांय हाडपी शब्द आनी संगीत ह्या दोनांयचोय सुंदर मिलाफ ह्या दोनूय गितांनी आसा. कोंकणी चळवळ नेट धरताली त्या काळांत जायत्या कवींनी, गीतकारांनी दर्जेदार गितां रचलीं. बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार आनी हेरांचो तातूंत आस्पाव जाता. आकाशवाणी पणजी आनी मुंबय केंद्रावेल्यान अजूनय हजारभर कोंकणी गितां वितरायतात. तातूंत एक आगळीवेगळी विविधताय आसा. वेगवेगळ्या विशयांवेलीं, वेगवेगळ्या संगिताचो, चालींचो साज आशिल्लीं अशीं हीं गितां. सुगम, उपशास्त्रीय सगले तरेचें संगीत तातूंत आस्पावता. फाटल्या दोन-तीन वर्सांनी कोंकणी गितांच्यो सिडी, कॅसेटी खाजगी संस्थांनी/ कंपन्यांनी काडल्यो. ताचेर मर्दी भासाभासूय जाल्या. पूण हालींसराक quality आनी quantity ह्या मानान कोंकणी संगिताच्या मळार ज्या प्रमाणात भर पडूंक जाय आशिल्ली तें निश्चितूच घडूंक ना.

कोंकणी संगिताक प्रांता प्रमाण विविधताय लाभल्या. केरळांतल्या कोंकणी भक्तीसंगिताचेर दक्षिण भारतीय संगिताचो प्रभाव दिसता. मंगळूर-कर्नाटकांत कोंकणी गितांनी Catholic शैली, हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगीत हांचो मेळ दिसून येता. कोंकणीत संशयकल्लोळ नाटकान नाट्यगीतां हाडलीं. महंमद रफी आनी तलत मेहमूद हांच्यासारक्या व्हड हिंदी चित्रपट गायकांनीय आपले परीन, आपले शैलींत कांय कोंकणी गितांक आवाज दिलो. कोंकणी लोकसंगितांत जें गिरेस्त भांडार भरलां तें सोंपून सोंपचेंना. फकत explore करपी मात जाय. वाद्यांनी विविधताय दिसता. घटम सावन घुमट मेरेन आनी अती आर्विल्ल्या Electronic वाद्यांचो वापर कोंकणी संगितांत जाला, जायत आसा. उल्हास बुयांव हांच्या हिंदू-किरिस्तांव दोनूय श्रोतावर्गाक appeal करपी संगितानूय समृद्धताय हाडल्या. पूर्णानंद च्यारीचें 'भांगराळें गोंय' आनी प्रकाश दत्ताराम नायकाचो साद-निनाद ह्या कोंकणी Orchestra नी हातूंत भर घाल्या. एरीक ओझारीयोन लेगीत व्हड योगतान दिलां. गोफाक जशे विंगड विंगड पोड आसतात तशी कोंकणी संगितांतली विविधताय हेंच ताचें नदरेंत भरसारकें खाशेलपण.

कोंकणी भाशेक आपली निजाची अशी गोडसाण आसा. नाकयां जावपी उच्चार, धांपिल्ले, उक्ते आनी हेर उच्चार हें भाशेंतले बारीकसाणेचें आनीक एक खाशेलपण. कोंकणी भाशेंतूच एक लयबद्ध संगीत आसा. 'त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसांना मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणा' ह्या बाकीबाबांच्या गितांत हें मधुर संगीत, पांयजणांचो आवाज, metaphors, alliteration, onomatopoeia ह्या अलंकारांचो सोबीत आविश्कार आसा.

भाशेच्या नीज आनी मुदलांतल्या सभावांतले हे झरे गीतकारान वेवस्थीत capture करून शब्दबद्ध करूंक जाय. संगीत दिग्दर्शकान संगिताचें योग्य आंगलें चडोवन गावप्यान तें अर्थ आनी भाव हांचेसयत फाव तशे श्रोत्यांमेरेन पावोवंक जाय.

खूब खेपे सूर-ताल- लय-संगीत सगलें perfect आसता. उच्चार सारके जायनात.

१. ते सारके जाल्यार वाद्यवृंदाच्या कुलकुलाटांत मूळ गावप्याचो आवाज सोदपाकूच कसरत करची पडटा. शब्द मागीर कळचनात.

२. कोंकणीची संवकळ नाशिल्लो गायक जेन्ना

कायचेकाय उच्चार करता तेन्ना बेरंग जाता. योग्य मार्गदर्शन, प्रशिक्षण आनी practice नाशिल्ल्यान जेन्ना अशें घडटा तेन्ना तो भाशेचो आनी गीतकाराचो अवमान थारता.

खूब खेपे गीतकारान जो मूळ संदेश दिला, तो ताचे अपेक्षेप्रमाण भावनाप्रधान रितीन प्रगट जायना. compose केलां त्या संगितांत आनी गीतकाराच्या अर्थांत गावप्याचो आत्मो भिजना, attune जायना तोमेरेन संतुळीत गीत सादर जालें आनी श्रोत्यांमेरेन पावलें अशें म्हणूं नजो. गीतकार-संगीत दिग्दर्शक आनी गायक हांचेमदीं खोलायेन भासाभास जावंक जाय. गीत म्हळ्यार ह्या तिगांचो त्रिवेणी संगम. confluence. सुरवातीक गीतरकारान आपल्या गिताविशीं ताचें स्वरूप, आटाप संगीत दिग्दर्शकाक सांगूंक जाय. दिग्दर्शकाचे inputs घेवंक जाय. उपरांत ताणी गायकाकडे/ गायिकेकडे भासाभास करूंक जाय. समाधान जायसर ही प्रक्रिया चलूंक जाय. एका Management जाणकाराचें वाक्य हांगां सांगपाचो मोह जाता. If the manoeuvre is in question, do not do the exercise, please. तात्पर्य : परिणामशून्य, सुकी, शुष्क कृती काडचेपरस ती न दिल्ली बरी.

गीतकाराच्या शब्दांक, भाशेक आनी गर्भितार्थाक १००% रेश्पेद दिवपी एकमेव व्हड संगीत दिग्दर्शक, संशोधन आनी गायक म्हळ्यार जितेन्द्र अभिषेकी. शब्दांपोंदा जो अर्थ भरला, जो भाव आसा तो convey कसो करप हें अभिषेकींकडल्यान कोणेय शिकचें. शब्दप्रधान, भावप्रधान गीतांची गायकी, कोंकणी भाशेचो सभाव हांची सखोल समजणी, जाणकारी ह्या व्हड पंडिताक बेस बरी आशिल्ली. जी गितां तांच्या हाताक लागलीं तांकां ताणी आपले सृजनशीलतायेन, मौलिकतायेन साज चडयलो. तांचें भांगर केलें. देखदिणें गीत आबोलेच्या औंठा तुका अमृताची जाप बरें गीत ही बरी कविता आसूंक शकता. बरे कवितेंत गितांत रुपांतरित जावपाची तांक आसूं येता. बरो कवी बरें गीत रचूंक शकता. गिताचे स्वताचे अशे parameters आसात. गीतकारांमदीं ताचेर academic चर्चा जावंक जाय. उदेंत्या गीतकारांक उर्बा आनी मार्गदर्शन दिवंक जाय. प्रस्थापित आनी हौशी सगल्या गीतकारांच्यो कार्यशाळा- शिबिरां जावंक जाय, उद्देश एकूच. गितांची निर्मणी/ रचना. गीतरचनेंतूच दोश आनी उणाव आसल्यार ताचो दोश संगीत दिग्दर्शकाचेर आनी गावप्याचेरूच थापूंक फावना.

गीतां बरोवन घेवपाचे यत्न जावंक जाय. गीतकारांचे फाटीक लागूंक जाय. तांका जागोवंक जाय. धोडावंक जाय. गीतकार गितां पाडूंक शकना हें खरेंच. जो गरवली वरांचीं वरां उदकांत गरी घालून बसता ताचेच गरयेक नुस्तें फारवतलें मूं? ज्या गीतकाराक परत-परत याद केल्या, तो जागृत आसता. भितरल्यान तो attuned आसता. केन्ना तरी घणघणीत उजवाडाचे शब्दझुंबर ताका हयन्हयशे दिसतात. आनी एक आशयघन सुंदर गीत ताच्या कांट्यार बसता. गरयेक फारवता. पिळग्यांचें मनोरंजन जातलें, काळीज ओलेंचिंब भिजतलें अशें भिडपासारकें एक गीत तो गीतकार/ कवी दिता. पूण तीं गितां रचनाकारांकडल्यान घेवपाखातीर आमकां जबाबदारीचीं जाणीव जाय.

सामान्य श्रोत्याक जाय किदें? ताका जाय निर्भेळ, निखटो, शुद्ध, पारदर्शक असो आनंद. साहित्य समजुपाक एक वेगळी जाण आसची पडटा. केन्ना केन्ना प्रज्ञा, प्रतिभाय जाय पडटा. पूण संगीत काळजाक अंतस्कर्णाक आवाहन करता. आनंद दिता. सोप्या सुटसुटीत शब्दांतलो अर्थ म्हों‌व्या संगितांत बुडोवन दिल्यार श्रोते किद्याक उखलून धरचेनात?

एका काळार उत्सवी रंगमाचयेर कोंकणी नाटक जातलें अशें म्हणल्यार लोक हांसताले. आयज शेंकड्यांनी प्रयोग जातात. आपलें, म्हजें, स्वताचें, कालेतीचें अशें घमघमीत अन्न जेन्ना मेळटा तेन्ना तृप्ती किद्याक जावचीना? कोंकणी संगीत येद्या थरार लोकप्रिय करपाक वाव आसा.

'तुजें हें गीत इतलें लोकप्रिय किद्याक जालें? सगल्यांच्या घोस्ताक कित्याक गेलें?' अशें एका नांवाजत्या संगीत दिग्दर्शकाक तरनाट्यान विचारलें. तो उलयलोच ना. दोनतीनदां विचारतकच ताणें म्हळें, 'तेखातीर कितल्यो राती, कितलीं वरां, कितले वाद, कितलोसोच घाम गळयलो. हे कश्ट, हे अणभव उतरांनी कशे सांगू?'

कांय मर्यादांच्या बेड्यांनी आनी बंधनांनी आमी आमकां घुस्पावन घाल्यात. तातूंतल्यान भायर सरपाचो वेळ आयला. काळाक अनुसरुन creative, innovative मनाच्या संगीत दिग्दर्शकांनी थोडेशें experimentation करपाची गरज आसा. एक जतनाय घेवप गरजेचें. संगिताच्या व्याकरणाचो भंग करीनासतना, आनी गीतांतल्या शब्दांचो/ काव्याचो अर्थ शेणयनासतना हे प्रयोग जावंचे. तांकां बाधा येवंक फावना.

सुगम संगितांत थोडीशी लवचिकताय उरता. तें ख्याल गायकीभशेन घट्ट बांदावळीचें आसना. देखून फुगड्यो- धुल्पदां- मांडे-लोकगीतां- कातारां आनी हेर गोंयच्या वा हेर लोकसंगितांतलें जें जें किदेंय चिमटीभर बरें दिसता ताचो वापर कोंकणी संगितांत जावंक फावो. चान्न्याचे राती आनी गोमटें गोंय सारकीं दोन समाजांक एकठांय हाडपी ओडलायणीं गितां आनीक जावचीं.

अशी एक आल्लय तयार जावची जी कोंकणी आल्लय आयकून तेंच संगीत अंगाई गीताक दिवपाचो मोह मराठी मनशाक जावचो. तसली लोरी संगीतबद्ध करीनशें हिंदी संगीतकाराक दिसचें. that was the most incredible lullaby I ever heard अशें इंग्लीश मनशाक म्हणचें.

बाबू आमगेलो गोरो गोरो पिठा भोबो (पुरुषोत्तम शिंगबाळ), कोंबल्या बाबांनो साद रे घाला आमगेर आयज

बाबू जाला (चफ्रा द कॉश्ता), चंदामामा चंदामामा आयली तुजी गाडी असलीं बालगितां जाय. तूं देवी महामाया (माधव बोरकार, गायिका शोभा गुर्टू) असलीं भक्ती गीतां जाय. सृश्ट तूं कमळ कशी दीत राव वास (हरदत्त खांडेपारकार, गायक प्रभाकर कारेकार) असलीं सैमगीतां जाय.

रे मोरा दिगंतरा, उडून जाय अंबरा कवी रमेश वेळुस्कार, गायक : प्रमोद प्रियोळकार) असलीं भावगितां जाय. शब्दुलेच्या फुला तुका भोंवर जावन चुंवतलो (युसुफ शेख) असलीं प्रेमगितां, व्दंव्दगितां जाय. राष्ट्राचो रथ विराट एकवटान धुकलतले (हरदत्त खांडेपारकार) असलीं देशभक्तीगितां जाय. आमकां जाय समुह गीतां, क्रांतीगितां भक्तीगितां- भजना, येवकार गितां, गजल. तरनाट्यांक पॉप, जाझ डिस्को हांचो बाज आशिल्लें कोंकणी संगीत.

खूब वर्सांआदीं पणजेंत कोंकणी संमेलनात उल्हास पै रायकार हांच्या गितांचेर आदारीत 'ऋतुचक्र' कार्यावळ जाल्ली. तातूंत ऋतूंप्रमाण गायकाचेर, माचयेर उजवाडा येवजण केल्ली. कार्यावळीचें आयोजन-नियोजन - प्रयोजन - संयोजन कशें सुसुत्र आसचें हाची ती देख आशिल्ली. ह्या गजालींची आयोजकांक पारदर्शकपणान स्पश्टता आशिल्ली. event management ची जाण आशिल्ली. देखुनूच team effort सफल जालो. संयोजक आशिल्ले पुरुषोत्तम शिंगबाळ.

कोंकणी संगितांत खूब खाशेलपणां भरल्यांत. मर्यादा कितली? मळबायेदी. पांखां लावन उडूया !

❑❑❑

# भुरगेपण

– ग्वादालूप डायस

आगो म्हज्या भुरगेपणां
तुजी याद येता
म्हजे यादीक जागयता
हाताक धरून दोंगरार व्हरून
काण्णां-चुन्ना खावयता
पिटकोळेच्या फुला पाकळ्यांत
केन्नाय नशीब बावयता
कपड्यांर घालीत जांबळां खतां
मस्तेपण तूं मिरयता
पेरी वयल्या कावळ्याक पळयत
शिता-उंडी भरयता
वडाच्या पाळांक धरून
फाटीं-फुडें धोलयता
मीठ-फळ्यानी खेळयत म्हजीं
धोंपरां कोंपर झरयता
शेता कुणग्यांत रेब्यांत निसरत
लाळये कोंगे पुंजायता
आवयचो दोळो चुकयत
पावसांत म्हाका भिजयता
तोरांत घालून मीठ मिरसांग
जिभेक म्हजे चाळयता
तोंडार एकूच हांसो फुलोवन
सगळ्या घरच्यांक भाळयता
बापायच्या बोटाक धरीत
कुळागरांत भोंवडायता
इश्टिणिच्या हाताक धरून
गोल-गोल घुंवडायता
अचकीत जोराक आपोवन
कोडू वखद पिवयता
न्हिदेचें सवंग करीत
आजेक म्हजे भिवयता
विणयांक बांधून तांबडेंच लांस
दशीण कशी फुलयता
बावल्यांचो खेळ खेळत
सहज माती कालयता
शाळेचें सुटयेंत म्हाका
व्हरून मामागेर पावयता
तोंडार उदक मारता सांगून
तळ्यांत म्हाका सावयता
कुचकूचीत जगमां तोडूंक
झाडार म्हाका चडयता
ओंवळी पोंदाक माळो गुंथून
खोशी म्हजी वाडयता
वांकड्यो-तिंकड्यो चिंचो दिवून
बोंचो म्हजो मुड्डिता
पांचव्याचार सैमा गोपांत
धरून म्हाकां चिड्डिता
राजकुंवराच्यो काणयो सांगून
ओगीच म्हाका भुलयता
संदी मात्शी फावली जाल्यार
खंयच्या खंयच उलयता
आगो म्हज्या भुरगेपणां
तुजी याद येता
म्हजे यादीक जागयता
सांगपा सारकें खूप आसा
सद्याक........
भुरगीं सतयता.....!

# भुरग्यांची सुरक्षिततताय

**- प्रकाश वामन कामत**

नॉयडा- निथारी भुरग्यांच्या हत्याकांडान भुरगीं कितलीं असुरक्षित म्हणपाचें देशाच्या नदरेक आनीक एक फावट हाडून दिलें.

आमचीं भुरगीं - खासा करून गरीब समाजाचीं कितलीं सुरक्षीत आसतात हो गंभीर प्रश्न. संसारीक भलायकी संघटनेच्या अहवालाप्रमाण जगांतल्या १० भुरग्यांतलें एक भुरगें खंयच्याय खिणाक लैंगीक अत्याचाराचें शिकार थारता. जगांतलीं भुरगीं उबारून व्हरपाचे प्रकार वाडत आसात. आनी हें जाता तें पैश्यांखातीर न्हय तर लग्नापासत, लैंगीक भूक भागोवपाक, भीक मागपाक बसोवपाक वा शिंदळी वेवसायांत घालपाक. तिसरी व्हडली असुरक्षताय भुरग्यांक भेकडायता ती म्हळ्यार... भुरग्यांक शिस्त लावपाचो उपाय म्हळ्यार तांकां मारप अशें मानपी मानसिकताय समाजांत अजून व्हडा प्रमाणार आसा. ताका लागून घरांत आनी शाळेंत हें घडटा. जायतीं भुरगीं पळून वतात तांचे हें एक कारण. आमी भुरग्यांक तांणी फकत वळखीच्याच लोकांचेर विश्वास दवरचो, पातयेवन रावचे, वांगडा वचचें अशें शिकयतात. पूण दुर्दैवान तांकां वळखीच्याच मनशांकडल्यान धोको जावंक लागला ताचें कितें?

राष्ट्रीय मानवता आयोगाच्या एका अहवालाप्रमाण भारतांतल्यान वर्साक सुमार ४५००० भुरगीं ना जातात. हो आंकडो फकत पालक वा पोलीस कागाळेचेर आधारीत आसा अशें भुरग्यांच्या संघटनाचें म्हणणें. ह्यो संघटना खरो आंकडो म्हूण ३० लाख दितात. तांच्या म्हणण्याप्रमाण सगळींच भुरगीं कितें ना जायनात. जायतीं भुरगीं पळून वतात- मानसीक, लैंगीक वा शारीरीक छळाक लागून. आमच्या देशाचे कायदे अजून फकत लैंगीक छळ वा बलात्कार हांचीच दखल घेतात. शारीरीक छळाची न्हय. देखून जायतीं भुरगीं पळून वतात. ताची नोंद जायना. भुरग्यांचो छळ हो फकत गांवगिऱ्या वाठारांनी, अनाडी लोकांकडल्यान जाता असो समज आसलो. आयज ही परीस्थिती उरूंक ना. शारांनी, गिरेस्तांच्या घरांनी असले प्रकार व्हडा प्रमाणार घडटात. देशांतल्या एकूण भुरग्यां छळापोटी ७०%केसी घरांत घडटात. खासा करुन लैंगीक छळ अशें कितल्याश्याच पळोवण्यांनी दिसून आयलां. हे प्रकार करपी चडशे नातेवाईक आनी नोकर-चाकर. ''बिटर चॉकलेट -चायल्ड सॅक्सुअल अब्यूज इन इंडिया'' ह्या भुरग्यांवेल्या अत्याचाराच्या पुस्तकाची फामाद लेखिका जी स्वत: भुरगेपणांत असल्या अत्याचारांची शिकार थारील्ली म्हण्टा : ''चायल्ड सॅक्युअल ॲब्यूज इज ॲन इंडियन फॅमिलीस डीपेस्ट अँड मोस्ट ज्यॉट्ली हेल्ड सिक्रेट!'' भुरग्यांचो अत्याचार जालो जाल्यार आमच्या देशांत सर्वसाधारण पणे समाज ती गजाल लिपोवंक सोदता. समाजीक भंयान. पूण तें करतना अत्याचार जाल्ल्या भुरग्याच्या मानसीकतायेचो विचार मातच जायना. जायते फावटी भुरग्यान कागाळ केल्यार तिचेर विश्वास दवरतलींच म्हणपाची शाश्वती आसना. विश्वास दवल्ल्यारय कारवाय जावपाची शाश्वती आसना. देखून भुरगींय मोन्यानी घुसमटमार सोंसतात. चली भुरगें आसत तर ताचें लग्न जावंक कठीण जावं येता हो भंय आमकां व्हड दिसता. भुरग्यांच्या मानसीकतेचो अभ्यास करपी जाणकार कितें म्हण्टात तें म्हत्वाचें.

अ) आपल्या भुरग्याच्या जिणेंत कितें घडटा ताचेर नदर आसूंक फाव.

ब) भुरग्यांचे आयकुपाची संवय आनी संयम जाय. तांचेर विश्वास दवरपाची मानसिकताय जाय. तांकां ''गूड टच'' आनी ''बॅड टच'' हांतलो फरक बरोऽ समजता.

क) आपल्या भुरग्याकडेन संभाशण करपाची कला आपणावप गरजेचें. भुरगें कितलेंय मस्तें/ हट्टी/ विक्षीप्त आसलें तरी ताचेकडेन ''डायलॉग'' आसप म्हत्वाचें.

ड) कुटुंबांतल्या मनशान अत्याचार/ छळ केलो जाल्यार ताचेर पांघरूण घालप चुकीचें. ताचेर निशेध उक्तो जावंकच जाय.

ई) आपल्या भुरग्याचेर जेन्ना लैंगीक अत्याचार/ छळ जाता तेन्ना ''तुजेंच चुकलें'' म्हणपाची ताकाच दोश दिवपाची वृत्ती आसूंक फावना. भुरगें हें ''बळी'' ..... अत्याचारी न्ही हें विसरूंक फावना.

असल्या वेळार गरज आसा ती शांतपणान, समंजसपणान आनी संवेदनशिलपणान ताका समजून घेवपाची. ताजें सविस्तर आयकून घेवन उपरांत कायद्याचो सल्लो घेवपाची.

पालकांक भुरग्यांचेर हक्क आसता हाची जाणवीकाय आसून फावना, ताचे वांगडा जापसालदारकेचीय जाणविकाय जाय. हालीं उदारीकरणाच्या वाऱ्यान कांय अनिश्ट प्रवृत्ती आमच्यामदीं हाडल्यात. मेळत थंय ''गळोकापू'' सर्त. शिक्षणाच्या मळार भुरग्यांचो ह्या सर्तीच्या नावान छळ चलताच. तातूंत भर पडल्ल्या ती वेवसाईक खेळानी. अमाप पैसो येवंक लागला देखून थंय सर्त करपाच्या नावान. हालींच अस्तम बंगालांत एका टेबल टेनीस खेळपी भुरग्याक बापायकडल्यान कायम जावपी मारपेट आनी शाब्दीक छळान काळीज बंद पडून मरण आयलें. उपरांत पेपरांनी वाचूंक मेळ्ळें ते प्रमाण भारतांत जायतेकडेन पालक

आपल्या भुरग्यांक खेळांनी अग्रेसर करपाक पैशे ओंततात-गुंतवणूक म्हणून. आनी ते हरतात तेन्ना लोकांमुखार मारपाक लेगीत उणें करीनात. ही पैश्याच्या लालसेन हाडिल्ली विकृती. बाबडीं भुरगीं मात हातूंत "सफर" जातात. भुरग्यांचेर जेन्ना वायट प्रसंग येता तेन्ना तांचेफाटल्यान पालक उबे रावतले हो विश्वास तांकां जाय. असल्या वागण्यान तो मेळत न्हय?

गोंयांक भोंवडे व्यवसायाच्या नावान जायत्यो विकृती हांगां आपल्या वाकड्या पायांनी बेगीन पावल्यात. भुरग्यांचो लैंगीक छळ ही तांतली व्हडली . पूण हांगां आवाज करपी संघटनाय चड. देखून सरकाराचोय दबाव बेगीन येता. देखून हांगां भुरग्यांआडच्या अत्याचारांवेलो कडक कायदो रोखडोच जालो. भुरग्यांचें कायम न्यायालय अस्तित्वांत आसा. ह्या कायद्यान भारतीय दंड संहितेच्या कलम २(अ) सकल भुरग्यांआडचो अत्याचार हें "नॉन बेलेबल ऑफेंस" केलो. खर ख्यास्त आनी दंडाची तजवीज केल्ल्या. एक लाख दंड आनी एक ते तीन वर्सांची बंदखण. लैंगीक हल्लो आनी घरांतल्या लैंगीक अत्याचाराआड. गंभीर लैंगीक अत्याचाराआड दोन लाख दंड आनी ७-१० वर्सांची कादय.. पूण गोंयांत असले प्रकार वाडीक लागल्यात ते फिरंगी पर्यटकांकडल्यान. तांकां हे एक लाख रुपया म्हळ्यार चण्याचे पैशे. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार कसलीय गंभीर समस्या सुटपाची जाल्ल्यार. ती कायद्यान सुटतले अशी अपेक्षा धरप भाबडेपणाचें. इलाजापास दुयेंताच्या मुळाचेरच उपाय जाय. हांगां पालकां वांगडा शाळांनीय भुरग्यांच्या लैंगीक अत्याचाराविशीं जागृताय म्हत्वाची. पालकांचे भुरग्यांमदलें दिसपट्टें मिसळप, तांचेकडलें संभाशण आनी विश्वासाचें नातें ह्यो गजाली चड म्हत्वाच्यो. आपलें भुरगें कोणाकडेन वता, शेजाऱ्या पाजाऱ्यांगेर वता थंय कोण-कोण आसतात. तांचें भुरग्यांकडलें वागणें कशें आसता ह्यो गजाली पालकांनी समजून घेवपाक जाय. भुरगें परक्यांकडल्यान खावपाच्यो वा भेट वस्तू घेता जाल्यार ताचेर नदर जाय. खासा करून आवयांक वाडपी चली भुरग्याकडेन इश्टीणीचें उत्तें नातें जोडूंक येवप खूबच गरजेचें. आमच्या भुरग्यांक चड आनी चड उत्तो जावपी आनी स्वैराचाराचीं विकृती वाडपी समाजांत शिटूकसाणेन तग धरपाक शिकोवपाची जापसालदारकी आमचेर आसा ह्या गजालीचें भान गरजेचें.

❑❑❑

# पारजत

– प्रकाश पाडगांवकार

### कृष्ण ब्रह्म

फूल करो जीव मुक्त सुखान ल्हवपिक
कृष्ण ब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक

प्राणा दिवो तेजाळून उजवाड रांगोळी
पावस पडून आशिर्वादा रूजवण जळींमळीं

हुबता बावटो लीनतेचो ना कोणा नसाय
स्पर्श जावन ईश्वराचो मन वेंगायत उंचाय

दिव्य ध्यासा वाटेवेली लडाय गेली सोपून
एकेक दार सताड उक्तें घुमयत मंजूळ धून

कृष्ण ब्रह्म आयज भितर करता लिकलिक
साकारून सर्ग कृतार्थां येतलें म्होवें पीक

### पृथ्वी वैभवी

पृथ्वी वैभवी चिर यौवना
आपले भिरत रत साधनेंत
उत्पत्तीच्या स्थिती लयेतल्यान
विनाशवंत नव निर्मणेंत

काजळ काळ्या ती केंसार माळून
ते जिस्त नखेत्रांची हळी
सावळी विराट आकाशगंगेक
दिता चैतन्याची झळाळी

बाळक कशी मुक्त निरागस
घुंवता मळबाच्या आंगणांत
हुबून मनस्वी अधांतरी ही
उबयता जिणेतत्व कुसव्यांत.

# तनरजोतींतलें भावलावण्य

- डॉ. सोमनाथ कोमरपंत

**हो लेख दै. तरूण भारताचे ''शब्दगंधा'' हे पुरवणेत शेनवार दि. ८ जानेर २000 ह्या दिसा उजवाडाक आयल्लो. त्या मराठी लेखाचे हें रमेश भगवंत वेळुस्कार हाणीं केल्ले कोंकणी भाशांतर. डॉ. सोमनाथ कोमरपंत हे गोवा विश्व विद्यालयाच्या मराठी विभागाचे प्रमुख आसले.**

कोंकणींतले प्रथितयश कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार हांचो तनरजोती हो कविता संग्रह रसिकां मुखार आयला. गोंयचे मुक्तताये उपरांतच्या कालखंडांत जांच्या प्रतिभेचे उन्मेष प्रकट जाले अशा नव्या दमाच्या कविमालिकेंत रमेश भगवंत वेळुस्कार हें महत्वाचें नांव आसा. आयजवेर तांचे 'मोरपाखां, माती, आंगणी नाचता मोर मोरया, सावुलगोरी, हिरण्यगर्भ' हे तांच्या सृजन सामर्थ्याचो प्रत्यय दिवपी कवितासंग्रह प्रसिद्ध जाल्ले आसात. बालसाहित्यांत ताणी लक्षणीय निर्मिती केल्ली आसा. ''मोनी व्यथा'' ही तांची कादंबरीका प्रसिद्ध जाल्ली आसा. साहित्याची निर्मिती आनी सांस्कृतिक संचित हांचो दृढ अनुबंध जाणपी ते अभ्यासक आसात. भारतीयत्वाच्या अवकाशाचें प्रगल्भ भान ह्या संवेदनशील कवीकडें आसा. कोंकणी वांगडाच मराठी, हिंदी, इंग्लीश आनी बंगाली भासांचेर तांचें प्रभुत्व आसा. तांच्या सकस काव्य निर्मितीखातीर तांकां साहित्य अकादमीचो सन्मान पुरस्कार फावोय जाल्लो आसा.

रमेश भ. वेळुस्कार हांचे कवितेंतल्यान प्रकट जावपी निसर्गधून मनाक आल्हाद दिवपी आसा. रुप-रस-गंध-नाद-स्पर्श या इंद्रिय संवेदनांचो प्रत्यय दिवन अपार्थिव विश्वाकडें घेवन वचपी पायवाट तांच्या प्रतिभा विश्वांतल्यान निर्माण जाता. या कवीन स्वानंद मग्न रावपाचो वसो सदांच घेतला. शब्दब्रह्माचेर विलक्षण पकड आसलेल्या खातीर अबोध मनांतल्यो संवेदना साकार करपाखातीर अपरिचित, अनवळखी पूण अर्थसधन शब्दांची नवनिर्मिती करपाचो ध्यासूय तांकां आसा. लोकसंस्कृती, लोकपरंपरा हातूंत तांचे मन रुजलां. लोकमानसाची सनातन धून तांच्या जिवनोत्सूक वृत्तींत सहज भरसून वयता. मोगाचो कंवळो, रसरशीत अणभव शरीर-मानस संवेदनासयत प्रकट करपाचो गुणविशेश तांच्या प्रतिमाधर्मांत पळोंवक मेळटा.

जिविताच्या सर्वंगस्पर्शी अनुभूतिंतल्यान 'तनरजोतींतल्यो कविता साकार जाल्ल्यो आसात. 'तनरजोती' ह्या कविता संग्रहाच्या शिर्षकासयत विश्वाचो विस्तार कविमनाक जाणवता.

म्हज्या दोळ्यांत  
केदें व्हडलें मळब  
केदें व्हडलें जग  
पूण म्हज्या दोळ्यांत तें  
ल्हान पडटा  
....................  
सगळे मनीस : एक मनीस  
एक दीस म्हजी नदर  
त्या मनशांच्या दोळ्यार पडटा  
तांच्या दोळ्यांतल्या सर्वय जगार पडटा  
(म्हज्या दोळ्यांत....,)

निसर्गरुपाकडें कवी एकरुपत्व साधता. मळबांतल्या तेजस्वी वाऱ्यांकडें, इंद्रनील मळबाकडें, रंग विभ्रमांकडें कवीमन काळीज संवाद करता. उत्फुल्ल मनाच्यो साबार कळा, थंय व्यक्त जातात. दृक-संवेदनांनी दोळ्यांबराबर मनाचेंय पारणे फिट्टा. गंध संवेदनांनी मनाचो गाभारो भरून वयता. आत्मतृप्तीची लय थपथपून येता.

आकार्शींच्यो सवाशिणी  
झगमग जाय  
मळबाची झिलमिल  
इंद्र निळाय  
कोणा काळ-सुवाळ्यांची  
ही रंगमिरास  
कळ्यांच्या सकाळींचो  
घमघम वास  
आकार्शिच्या सवाशिणी

लखलख जीण
तुजे सासायेन मेळ ऽ
आकाश-आयाव खीण

कवितेच्या निमण्या दोन ओळींत मोगाच्या अनुभूतिच्या अपार्थीव खिणांची वीण आपाप गुंथून येता आनी कविता आगळ्या-वेगळ्या विश्वांत घेवत वयता.

मोग विश्वांतल्या थरथरत्या स्पंदनाचें तन्मयतेन केल्लें आलेखन हो तनरजोतीचो गुणविशेश. अद्धैतानुभूतिची धून तनरजोतीक व्यापून रावल्या. वास्तविक नदरेन पळयल्यार तांतल्या विलोभनीय सौंदर्यथळांचो आस्वाद न घेतां तनरजोतीतल्यान निशेतल्या सौंदर्यभावनांचो मुळांसावन आस्वाद घेवप श्रेयस्कर.

ही कविता शब्द माध्यमांतल्यान मुखर जाता हे खरें आसा. पूण तिच्यो मोनेळीच्यो सुवातोय जायते कितें सांगून वयता. पु.शि. रेगेंच्याय कवितेंत अशेंच कितें अनवळखीशें अणभवाक येता. हे कवितेंतली अस्तुरी सृजन शक्तीचें प्रतीक जावन येता: दादल्या बायलेचें सनातन मोग विश्व हातल्यान पाकळे पाकळेन फुलून येता;

भावतंद्रेचो परमोच्च बिंदू हाताक येता. तेन्ना नेणिवेच्या तळावयल्यान ती अनुभूती शब्दाकार घेता:

तुज्या तृप्तिच्या तंद्रांनी
म्हजें हांव रुणाझुणा
खिणात म्हाकां घेवन वेता
ऋतंभरेच्या केणा॥

सगळें चराचर अशें
अचर्यांनी लब्धता
जाण कोण खंयचे खिणा
रंगतनर झिडपता॥ (७०)

''खिणात म्हाकां घेवन वेता ऋतंभरेच्या केणा'' आनी ''रंगतनर झिडपता'' ह्या शब्दप्रयोगांकडे थटाकून पळयतना जायतीं अर्थवलयां विस्तारत वयतात आनी भाव सौंदर्याचीं प्रस्फुरणां तातूंत दिसपाक लागतात. अर्थसंपृक्त आशयविश्व मिताक्षरांतल्यान प्रकट करप हो रमेश वेळुस्कारांच्या प्रतिमाधर्माचो गुणविशेश आसा.

प्रितिभावना व्यक्त करताना शारीरीकताय कवीन नाकारूंक ना. पूण तांतले भाव जाणविकायेक येतना शरीर-मानस असो प्रवास करीत तो अपार्थिवतेकडे घेवन वयता.

ह्या कवितांतलें प्रतिमाविश्व वेगळें काडून ताचो विचार करपाक येना. कवितेच्या आशयाकडें ताची जाल्ली एकरुपताय अधोरेखीत करचीशी दिसता. अनुभूतिक हांगा प्राधान्य आसा. कितल्याशाच प्रतिमांनी तनरजोतीचें भावसौंदर्य फुलयलां.

रमेश भगवंत वेळुस्कारांनी परिचीत सांस्कृतिक सुंदरतायेची 'केळवण' आपल्या प्रतिभा सामर्थ्यान केल्ली आसा, ती पळोवपासारकी आसा. ती आनंदानुभव दिवपी आसा. शब्दांची पुनरावृत्ती ते अशे तरेन करतात की ताका लागून रसिक विस्मितान धूंद जाता काय शब्द संहिताक ताणी जोडलेले जे प्रत्यय आसात तांतल्यान शब्द माधुर्य आनी नाद संवेदना निर्माण जातात. ते खातीर कवितेच्या अंतरंगांत तपशीलान भितर सरपाक जाय. भारतीय जिवनसंचितांतल्या परंपरेन चलत आयल्ल्या संकल्पनांचो ताणी आपल्या सृजनशील अविश्काराखातीर मुक्तपणान उपेग केल्लो आसा. ताका लागून आस्वादकाक तनरजोती हो कवितासंग्रह अभिजाततेची साक्ष दिता, गवाय दिता.

सृजनात रममाण जाल्ल्या ह्या आत्ममग्न कविच्या फुडल्या प्रवासाक मनापसून शुभेच्छा. रसिकांक आनंदविश्वांत व्हरपी 'तनरजोती' ह्या कविता संग्रहाखातीर रमेश भगवंत वेळुस्कार हांचे अंतस्करपूर्वक अभिनंदन.

❑❑❑

## ब्रह्म निर्मात्याक

दिव्य जिणेची बुन्याद घालून
भेटय प्रज्ञेचो पुरस्कार
आडखळींचे वितळावन दोंगर
लिकलिकय सात्वीक रत्नाहार

सोंपय गिराण कुटिलांचे
हुबय प्रस्न दुबावितांचे
बेंसांव फांकोवन मुक्त हातान
व्हांवय झरे अमृत सुखाचे

निस्तय पर्वां काळ-काळखाची
रानांवनांत घुमय साद
सोडून सहस्त्र बाण उत्कर्षा
घडय सुमंगल घंटानाद

पुरस्कार जिवो दिव्य जिणेचो
भेटय सगळ्यांक मुकूट जैताचो
जण एकल्याची जीण घडय
कृतार्थ जिणे अमुल्य सांठो

**- प्रकाश पाडगांवकार**



# गोंयचो नामनेचो राजकारणी भौ. सुभाष शिरोडकार

- तपस्या अ. वेर्णेकार
थळ, शिरोडें

एक दीस म्हजो बापूय आनी ताचो इश्ट खबरी करताले. इश्ट म्हण्टालो हालीचें राजकारण म्हळ्यार सामकें हळशीक. हो पक्ष सोड तो धर ही वृत्ती. कोण मित्र कोण शत्रू कांयच कळना. फक्त पैशाफाटल्यान रे बाबा हे राजकारणी. हांकां गोंयचें कांयच पडून वचूंक ना. हाचेर म्हज्या बापायन म्हळें -हय रे बाबा. राजकारणापासून पयस रावपूच बरें. अशी ही संभाशणां बसीन, देवळांत, बाजारांत, घराघरांनी कानार पडतात. मागीर राजकारणी लोक कोणाक आवडत? पूण शिरोडें गांवांत काराय दोंगरार गेल्यार मात वेगळें दिश्टी पडटा. आयटी कॉलेज, होमयोपॅथीक कॉलेज, उच्च-माध्यमिक आनी डॅफोडिल्स अश्या शिक्षणाच्च्या वाठारांत रावपी. एक ग़ंभीर व्यक्तीमत्व. हो मनीस जरी राजकारणी आसलो तरी हेर राजकारण्यापरस सामको वेगळो. म्हणून नामनेचो. ह्या नामनेच्या राजकारण्याचे नांव म्हळ्यार भौ. सुभाष अंकुश शिरोडकार.

भौ. सुभाष शिरोडकारांक शिरोडें गांवचे गांवभाव 'भाऊ' या नांवान वळखतात. तांचो जल्म गरीब घराण्यांत जाल्लो. तांचो बापूय रेल्वेंत पोर्टर म्हण काम करतालो. ते वट्ट स भाव. तांची आवय भोव कश्टी. शिरोडकारान खूब त्रासांनी शिक्षण घेतलें. तांचें प्राथमीक शिक्षण कुळें हांगा जालें. मागीर माध्यमीक शिक्षण ताणी शिरोड्या, आनी उच्च शिक्षण चौगुले म्हाविद्यालयांत घेतलें. मागीर परिस्थितीक लागून ते कमलाबाय हेदे हायस्कुलांत शिक्षक म्हण रुजू जाले. शिक्षणाखातीर त्रास काडचे पडलें म्हणुनूच आसत तांकां शिक्षणाविशी खूब तळमळ आसा. ते १९८४ वर्सा पयले फावट वेंचणूकेंत वेचून आयले. मागीर ताणी मुखाल्यो पाचूय वेंचुणूको जिखल्यो. सद्या ते पंचायत मंत्री म्हण काम पळयतात.

ते १९९०-९१ वर्सां ते गोंयचे शिक्षण मंत्री आशिल्ले. शिक्षण मंत्री म्हण ताणी गोंयांत खूब नामना मेळयली. नवी नवी धोरणा राबयली ''प्रौढ साक्षरता अभियान'' Adult Education म्हळ्यार जाण्ट्याक शिकोवप, निरक्षराक साक्षर करप हे धोरण ताणी राबोवन शैक्षणीक मळार नवो पावडो घाल्लो. कोंकणी उलय कोंकणी बरय ह्याच आधारार ''अक्षर उलय अक्षर बरय'' हो तांचो नारो आशिल्लो

हेरांवरी पैशांखातीर ताणी पक्षबदलपणा केली नात. ताच्या धोरणात तशे वागप बसना. तरीय बी तांचेकडल्यान एक चूक जाल्ली. ताणी एकदां काँग्रेस सोडून राष्ट्रवादी पक्षांत उडी मारिल्ली. पूण शेवटाक ''सुबहका भुला श्यामको घर आया'' अशे तरेन ते परत काँग्रेस पक्षांत आयले. तांकां ही चूक सुधारपाखातीर बरेच त्रास जाले. ताचोच आमीग तांच्या विरुद्ध उबो रावलो. पूण ते परतून जिंकून आयले. तब्बल तीन हजार मतांनी लोकांनी तांचेर दाखयल्लो विश्वासूच बरेच किदे सांगता. ताच्या व्यक्तीमत्वाक उभारी दिता.

अशे हे नामनेचे राजकारणी सभावान कशे आसात? तांचो दिनचर्या किर्ते? छंद किते? हे प्रश्न मनाक पडटात. खरेच तांका पळयतकीर मन प्रसन्न जाता. तांच्या दोळ्यांत पळयल्यार तांची द्दश्टी खंयतरी पयस उद्दीश्टांकडेन आसा अशें दिसता. ताच्या उलोवपान सदाच काम करपाची लोकाक प्रेरणा दिवपाची आसता. तांच्या ध्येयाच्या वाटेर कितलीय आडमेळी येवं ते पर्वा करीनात. आपल्याच हत्तीच्या चालीन चलत रावतात म्हणुनूच तांकां तांच्या कार्यांत यश फाव जाता.

तांची दिनचर्या सामकी आदर्श आसा. ते सकाळी सच्या पयलीच उठ्ठात. मागीर वॉर्कींग करतात. मागीर न्हावन देवाची पुजा करप हो तांचो नित्यनेम. मागीर लोकांची

गाराणी आयकतात. शिक्षणीक कार्यावळीत तांका चड रस आसता. आयटी, हॉमयोपॅथीक, उच्च माध्यमीक, डॅफोडिल्स ह्या सगळ्या शैक्षणिक संस्थाचेर ते जातीन देखरेख दवरतात. शैक्षणिक मळार कितेतरी नवें करपाची उर्बा तांकां सदाच आसता.

तांचो छंद किते म्हळ्यार ते "समाजसेवा" हेच उतर तुमकां दितले. तेच न्हय तर तांचे भाव जे गांवचे सरपंच आसात तेय तांच्या पावलार पावल घालून चलतात. तांचे पुराय घराणें समाजकाम करता. ह्या सगल्यामदी ताच्या आवयक कशे विसरपाचे? तिजे व्यक्तीमत्व सामके सादे. ना गर्व ना मोठेपण आनी वृत्ती सामकी कामसू. तिचेकडेन शिक्षण नासले तरी बुद्धी आसा. सगळ्या घराक एकठांय एका मंत्रान बांदून दवरपाची तांक आसा. तिचोच गूण मानादीक मंत्र्याक आयला जावये. कारण ते पुराय शिरोडे गांवाक एकठांय बांदून दवरपांत यशस्वी जाल्यात.

तर अशें हें मानादीक मंत्री विधानसभेंत मात केन्नाच चड उलयनात. ताचो मतदार संघ पळयल्यार तांच्या कामाची उंच उडी दिसून येता. राजकारणात रावनपसून ताच्यांत शिक्षकी गूण दिसून येतात. तांका शिक्षक म्हणून घेवपाक चड आवडता.

जांव ल्हान जांव व्हड. गांवचे कसलेय कार्य आसल्यार ते मुजरत हाजीर रावतात. तांकां लोकांभितर रावपाक आवडटा. सांजेच्या वेळार दारांतल्या आंगणांत बसून गांवच्या भुरग्यांखातीर येवजणी आंखप होय तांचो छंद. अशा ह्या मंत्र्याचो प्रभाव कोणाचेरूय पडटा.

मानादीक मंत्री भोव शिस्तीन चलतात. ताच्या काराय वाठारांत कागदाचो इल्लोसो कुडकोय पडिल्लो तांका सहन जायना. आज अशे दृश्य दिसता की भुरगीं शाळांनी, कॉलेजांनी वण्टीचेर बरयतात. पूण तांच्या शाळा, कॉलेजानी हे दृश्य दिश्टी पडना. ताचो सभाव भोव कडक. सगळीच तांका भिवन वागतात.



अश्या ह्या राजकारण्याक नामना मेळळ्या ती तांच्या कार्याक लागून. शिक्षणमंत्री म्हूण तांका लोक अजुनूय मानतात. इतलेंय न्हय तर गोंयचो शिक्षणमंत्री जावपाची तांक ताचेच कडेन आसा अशें लोकांक दिसता. ताणी शैक्षणीक मळार शिरोडें सारक्या गांवांक जी भारतभर नामना मेळोवन दिल्या हाकाच लागून तांकां उंचले स्थान मेळळां. आनी एक गजाल म्हळयार तांचे उलोवप. तांका बरो वक्तो अशें लोक म्हणतात. शिवाय तांचो मतदारसंघ आनी तांकां मेळिल्लो लोकांचो मोग ह्या सगळ्या गजालींनी तांकां नामना मेळोवन दिल्या. आपल्या गांवाचेर, 'श्रीमान शिरोडे', नांवाचे पुस्तकूय ताणी उजवाडाक हाडलां. असो हो नामनेचो राजकारणी हेरापरस वेगळो. लोकमनाचेर प्रभाव घालपी. आपल्या गांवाक नामना मेळोवन दिवपी. पैशापरस शिक्षणाक चड म्हत्व दिवपी. आपल्या कर्तृत्वान नामना जोडपी ह्या राजकारण्याक म्हजो सलाम !

❑❑❑

# घर

- तुकाराम रामा शेट

कामगारांचो एक मेळ पणजेसाकून रायबंदरा चलत आसलो. रायबंदराच्या रस्त्याकुशीकच्या बेलभाटांत बंगलो बांदपाचे काम तांका आसलें. बेलभाटांत पावनाफुडेंच तांच्या मुकादमान तांकां थंय रावापक सांगलें. त्या कामगारांत तांची बायलां आनी भुरगीबाळां आसलीं. आप्पान आपल्या खांदावयल्या अडेज वर्सांच्या चेड्याक सकयल देवयलो आनी ताची बायल इराम्मान आपल्या चार वर्सांच्या चेडवाचो हात आपल्या हाताक्षसून मेकळो सोडलो. हें जोडपें पयलेच फावट कामाखातीर दोन दिसांपयली गोंयां पावलें. बाकीचे हेर कामगार बिल्डिंगो बांदपाचें काम करताले. गोंयांत कामाक आयल्यार कोणाक चार वर्सां जाल्ली तर कोणाक पांच वर्सां. आप्पा आनी ताचीं घरकाम्न ह्या कामाक आनी प्रदेशाक नवी आसलीं.

तीं सगळीं डांबरी रस्त्यावयल्यान कुशीच्या बेलभाटांत सरलीं, आनी थंयच्या आंब्याच्या झाडापोंदा बसलीं. कांय भुरगी तर थंय हाडून दवरलेल्या रेंवचे उंच राशीर वचून बसलीं. येतना माथ्यार मारून हाडलेल्यो भुतयो ताणी सोडयल्यो,

दनपारच्या कडार मार्गावयरसून धवीच धाकटी गाडी बेलभाटांतल्या शेकांत सरली आनी थांबली. काळी जुदी घातलेलो, धवेंफुल्ल पुडवे न्हेसलेलो सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो वसंतबाब सावकार देवलो. वसंतबाबान इंजनेर माशादाच्या सांगणेप्रमाण आपणे विकत घेतलेल्या बेलभाटाच्या जागेत चिरे, खडी, रेंव आनी हेर सगळे सामान हाडून दवरपाक सुरवात केल्ली. पणजे शारालागसार आपल्याक रावपाक जाय म्हूण वसंतबाबान जागो घेवन त्या जाग्याभोंवतणी शेर्क चिऱ्यांनी बांदून काडलें. ताका त्या शेर्काभितर एका माळयेचो बंगलो बांदपाचो आसलो.

वसंतबाब धाकटे मोटारीतल्यान देंवल्याबराबर मुकादम मल्लाप्पा ताच्या फुड्यांत गेलो; तसो वसंतबाबान ताका विचारलें,

'काम केन्ना सुरू करता?'

'केन्ना करू पात्रांव?'

'आता करता?'

'आता करूं येता. पूण आमी आताच हांगा पावल्या.'

'आता जमना जाल्यार फाल्या सकाळी सुरू करात. तुका इंजनेरान सांगून दवरला मरे.'

'हय.'

'इंजनेरान सांगला तशेच करूंक जाय. आनीक दोन म्हयन्याचे काम एका म्हयन्यांत जावपाक जाय'

'हां.'

'हांव फाल्या सकाळी येतलों. फाल्या सकाळी फुडें तुमी कामाक लागपाक जाय.'

अशें सांगून वसंतबाबान आपल्या जुदयेच्या भितरल्या बोल्सांतलो प्लॅनाचो कागद काडलो आनी ताचेर नदर थीर केली. मागीर तीच नदर शेर्काभितल्ल्या जागेर भोंवडायली. बंगल्याची बुनयाद घालून दवरल्या थंय आसली. बुनयादीचें काम चालू आसताना कामावयले गांवठी मानाय काम तशेच सोडून गेल्ले. मानाय मेळच नासले. बांदपाचे फुडलें काम पंदरा दिसमेरेन तशेच कुपात पडलें. मागीर इंजनेर माशादान आपल्या कामावयले कामगार ताचे काम सोपतकूच वसंतबाबाच्या कामार धाडून दिले. फाल्यांपासून कामाक परत आरंब जावापचो आसलो. ताणे प्लॅनाच्या कागदाची घडी केली आनी बोल्सांत दवरलो. थंयसनूच परत वचपाक तो मोटारीत बसलो इतल्यान मुकादमान ताका विचारलें :

'इतले दीस आमकां रावपाची सोय?'

'म्हळ्यार तुमकां आनी रावपाक बंगलो जाय कांय किते रे?'

'पात्रांव आमकां खंयचो बंगलो! आमी बंगलो बांदपाचो दुसऱ्यांखातीर.'

'आं अशे मरे. गिन्यान आसा तर तुका.

'तशे न्हूं पात्रांव.'

अशे म्हुणून तो वोगीच रावलो. आमीय म्हूण मनीसूच. आमकांय रावपाक किदेंतरी जाय अशें ताका सांगपाचें आसलें. मागीर तो उलयलो.

'पात्रांव, आमकां भुरगीबाळां आसात न्हू. आमकां रावपाक हांगाच सोय केल्यार जाता.'

'तुमका आनी रावपाक सोय? रावा त्या आंब्यामुळांत.'

'रावपाक लेबर शेड आसतली अशें इंजनेर सायबान सांगलेलें.'

'शेड खंय आसा हांगा बांदिल्ली?'

'तशे जाल्यार आमी काम करपाक रावाना.'

आपले काम अडटलें हेखातीर थोडो वगत विचार करून वसंतबाबान शेर्कांतल्या जाग्यार नदर भोंवडायली.

एके कुशीक बंगलो बांदपाचो आसल्याकारणान दुसरे दावे वटेन लांबची लांब जागा रितीच आसली. त्या जागेकडे बोट करून ताणे सांगलें;

'थंय शेर्कांक तेकून तुमी शेड उबारा' मेडी, वांशे, पत्रे आसात.'

दनपार देंवच्या पयलीच शेर्कांची एक वणत कशी करून लांबचे लांब खोपटी उबारपाच्या कामाक सगळे मानाय लागले. मेडी पुरून वयल्यान विस्कळ वांशे घातले. सांज जाता म्हणसर ती लांबचे लांब शेड पत्र्यांनी शिंवोन घेतली. पत्रे पावल्यानासल्यान जंय शेड उगती उरली थंय साकाटे घालून धांपून घेतली. मदी ल्हान ल्हान आठ कुडी केल्यो. त्यो कुडी सामान आनी येळांच्या कोडव्यान कुशीकच्यान धांपून घेतल्यो. आठ कुडींची एका देंवत्या पाख्याची लांबचे लांब शेड तयार जाली. मानायांच्या आठूय बिराडांक तांतून आलाशिरो गावलो. दर बिराडान आपली कूड झाडून घेतली, आनी तांतुतले शेकरे भायर उडयले. कुडीकुडीत तीन तीन मोटे फातर हाडून ते मांडून चुली तयार जाल्यो. भायरसून जमोवन हाडलेल्या शिरपुट्या बोडयांच्या जळवान चुलींनी उजो पेटलो. सांजवेळा त्याच वखतार शेजारच्या थळाव्या घरांनी चुलीत उजो पेटोवन नळ्यांतल्यान घराभायर धुंवर येतालो. शेडीत तीन खुरांच्या चुलीचेर भाकरी भाजपाक तवो तापपाक लागलो. पीठ मळ्ळ्या उपरान्त पिठाच्यो ल्हान ल्हान गुळ्यांच्यो भाकरी हातांनी थापटावन तव्यार भाजपाक लागल्यो. आनी भाकरींचो सुरबूस वास शेडीच्या कुडीकुडींनी पातळपाक लागलो. तशें ते शेडीत वेगळेंच घरावें वातावरण निर्माण जालें.

दुसरे दिससाकून बंगलो बांदपाच्या कामाक नेट येवपाक लागलो. इंजिनेर माशाद काळ्या मोटारसायकलीर बसून सकाळी सायटीर येतालो. तेन्नाच तो जाल्ले काम पळयतालो आनी मानायांकडून करून घेवपाचे काम मुकादमाक सांगतालो. पात्रांव वसंतबाब सांजसकाळ येतालो. तो सगळीच कामां मुकादम मल्लाप्पाकडसून करून घेतालो. दिसभर सगळे मानाय आनी कामेऱ्यां बंगलो उबारपाच्या कामाक खपताले. चिरे तासपाचे गंवड्यांचे काम, चिरे व्हांवोपाचे, वण्टी चिऱ्यांनी घडोवपाचे, बेत्याचे काम सगळी तरेची कामां ते करताले. मानाय आनी तांच्या वांगडा काम करपी बायलो काम करून जीव दमोन गेल्ल्यान सांज जावपाची वाट पळयतालीं.

आमोरी जातकूच लेबर शेडीत जाग येताली. हरशी दिसभर मानाय, मुकादम आनी तांची बायलांभुरगी बंगल्याचे काम करता थंय आसताली. सांजेवेळा काम सोपल्याउपरान्त ती आपल्या शेडीलागी येताली. आमोरेच्या वेळार जेवणाखातीर तांच्या चुलीत उजो पेट्टालो. मानायांकडे सामान चड आसानासलें. कपड्यांचे झोळयेत थोडे कपडे. आलुमीनची दोन ताटां, तवो, प्लास्टीकचो तांबयो नाजाल्यार कळशी इतलेच सामान. आनी हें सामान राखपाक तांच्या कुडीक ना कुलूप ना दार. दारां उक्तीच आसताली. ती शेड म्हणजे काम करून थकून आयल्याउपरांत रातचे न्हिदपाच्या वेळार वयर खोपटेचे एक पांखे आसलेलो फाट तेकोवपाचो जागो.

चाळ कशी आसलेल्या लेबर शेडीच्या पयल्या कुडीत मुकादम मल्लाप्पा रावतालो. तो आनी ताची बायल चंद्रिका अशी दोगूच. तांच्या लग्नाक पांच वर्सा जावन गेल्ली तरी भुरगे जांवक नासलें. मल्लाप्पाक हिन्दी सिनेमा गितांची चड आवड आसल्यान तांच्या कुडीतल्यान दोन बँड रेडवो सदाच वाजतालो. मल्लापाच्या कुशीक ताचो भाव कल्लाप्पा रावतालो. सगळे ताका आप्पा असो उलो मारताले. आप्पा सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो आसलो. तांची बायल इराम्मा आनी दोन भुरगी हांच्या पोटपाण्याक लागून आनी आपलो धाकटो भाव मल्लाप्पा हाच्या सांगण्यावयल्यान तो गोंयांत येयल्लो. घाटार तांचे स्वत:चे ल्हान घर आसलें. थंय तो मानायपण करून तांचे पोट भरतालो. गोंयांत येवपाक आपलें घर सोडून येवचें पडलें आनी आपल्या बायल-भुरग्यांसयत लेबर शेड नांवाच्या खोपटेच्या एका ल्हान कुडीत रावचे पडलें म्हूण तो नाराज जालो. हे खातीर केन्ना तो आपल्या फाटल्या भावार मल्लाप्पार तिडकेतालो. आप्पा आंगापांगान उंच आनी मोटो. काळ्या कुपांदर खडपाची पाटी कसो दिसतालो. मात तकलेचे थोडे केस धवे दिसताले. इराम्मा पाटी कशी बायल, बरोच मोटो पिंदरीचो तिबो कपलाक लायताली आनी साडी न्हेसताली. मल्लाप्पा मात्सो मोटवो पूण तो ताच्या भावाचभाशेन दिसतालें. तो आप्पाभाशेन कासाडो मारून पुडवें न्हेसनासलो तर पँट आनी शर्ट वापरतालो. फुडल्या कुडींनी मारुती, यल्लाप्पा, भिवा,आनी तांची बायलां भुरगीं रावतालीं. मारुती, यल्लाप्पा, भिवा, भिमा, संगरप्पा आनी बसाप्पा हे मुकादम मल्लाप्पा वेळारूच गोंयांत पैशे जोडपाक येयल्ले. तांणी कोणाचे बंगले, कोणाचे ओनरशीप फ्लॅटस्, सरकारी इमारती, आनी पणजेतले रस्ते, सांकव बांदपाचे काम केल्लें. आता हेच मानाय आनी तांची कुटुंबा शेडीच्या ल्हान ल्हान कुडींनी रावून शेजाराकूच एक व्हडलो बंगलो बांदताले. आपल्या घामा कश्टान, बळग्यान आनी कळाशेन ते व्हडले देवूळ कशे बंगलो बांदताले.

एका म्हयन्याभितरूच बंगल्याचो आल्लोस काडून वयर चिऱ्यांचो वण्टी उबारून माळयेचो वयलो बेतो घालून जालो. डायनिंग हॉल,दिवाणखानो, गेस्ट रूम, अशे बारीक मोटे धा-बारा कुडीचे मेळून सकयल्या भागाचे काम जायत येताले. वयल्या माळयेच्या कामाक हात घालता ते दीस सकाळीच आकांताच्या पावसान घालून घेतलें. कामगारांची सबंद शेडूच वाऱ्यान हाल्ली. वादळी वाऱ्यान शेडीचे पत्रे झाडाची पानां कशे हुबोन गेले. कडवो तर पिंजून गेलो. शेडीत तर पावसाचे उदक भर्ल्लें. शेडीतले सगळे वाऱ्यान

आनी पावसान शेडायल्ल्यावरी जाले. तांचेर आकांत आयलो. बंगल्याचे बांदकाम तर आयतेच भिजलें. शेड विस्कटून गेली. तांतूत रावपाक मेळनासलें. ते उबंत पडल्याभाशेन जाले. गोंयचो असो पावस आप्पाक नवोच आसलो. ताका चितून आयले. 'कसलो हो पावस, आमच्या जीवार उठला?' पूण मागीर ताणे दोळे मेटून म्हुटलें. 'हे धरतरे आमीय तुजीच बाळकां. आमची तूंच राखण कर.'

पावसाक खंड असो पडलो ना. तो चालूच आसलो. शेडीन रावनजो जातले म्हूण आपले सामान आनी आयदणा घेवन सगळे कामगार पात्रावाच्या बंगल्यांत आसऱ्याक गेले. पूण आप्पा गेलो ना. तो शेडीतूच रावलो. ताणे पांखे सारके केले पूण वयरसून गळटालेंच. सकयल उदकाचे कोंड जाल्ले. आनी कुशीकच्यान वावझड मारताली. आप्पा आपल्या ल्हान भुरग्यांसयत भिजतालो तें मल्लाप्पाक मानवलें ना. ताणे फोर्स करून ताका बंगल्याच्या आसऱ्याक हाडलो. आप्पाक थंय आसऱ्याक येवप आवडलें ना. आपल्याक रावपाक शेड दिल्ली आसा तितूनच रावचे अशें ताका दिसतालें. ताका आपल्या गांवचे आपले स्वत:चे घर येवजून येतालें. पोटाखातीर तो गांव आनी घर सोडून हांगा पावल्लो. आता आपूण रावता ती शेड, आपूण बांदपाच्या कामाक आसा तो माळ्यांचो बंगलो आनी आपल्या गांवचे खासा घर हांच्या कुवाड्यांत तो घुस्पून गेलो.

सकाळच्यान अवचीत सुरू जाल्लो पावस दनपार जायत आयली तरी थांबू नासलो. व्हडलो पावस पडटा आसल्याकारणान बंगल्याचे काम बंद आसले. पावस चालू आसतानाच बंगल्याचो पात्रांव वसंतबाब आपल्या गाडयेतल्यान थंय पावलो. तो थेट बंगल्यात भितर सरलो. बंगल्याचे काम बंद आसलें. मानयांची कुटुंबा आसऱ्याखातीर बंगल्यात येवन रावल्या तें पळोवन ताच्या कपलार मिरयो पडल्यो. तांची आयदना आनी सामान बंगल्यात सगळ्याक पातळलेलें ताणी थंय मांडलेल्यो चुली पळोवन तर तो तापार जालो आनी उलोवंक लागलो;

'हो किदें गोरवांचो गोठो रे? तुमकां हांगा कोणेन रावा म्हूण सांगलां? ह्यो चुली मांडल्या तातूंत वण्टीक आनी वयर तेर्रासाक घस पडची ना?'

ते सगळे वोगीच रावून आयकताले. पूण आप्पाक राग आयला तो पळोवन ताच्या भावाक मल्लाप्पाक रावो नजो जाले. तो उलयलो.

'पात्रांव लेबर शेडीचे पत्रे वाऱ्यापावसान हुबल्यात शेडीत सगळें पोवता.'

'पोंवता जाल्यार सारके करात?'

'पूण थंय सगळें उदक जालां.'

'थंय उदक जांव नाजाल्यार आनिक किदें जांव. तुमी हांगा रावून चुली पेटोवन बंगल्याक घस घालतले. तुमी चलात हांगासरले.'

गोरवांक आमडून घालची तशी ताणे तांका थंयसून घालायल्या उपरान्त, आपलीच चूक जाली म्हूण ती सगळी लेबर शेडीकडे परत गेली. पावस कमी जाल्लो तरी शेडीत पोंवतालेंच आनी जमीन ओली जाल्ली. मल्लापाक पात्रांवाची तिडक मारिल्ली. तो काम सोडून वचपाक तांका सांगतलो आसलो पूण सगळ्या मानायांचे एका सुमनाचे कामाचे पैशे पात्रांवाकडे आसले. काम सोडल्यार ते पैशे मेळपाचे नासले हेखातीर तो वोगीच रावलो. हेरावांगडा लेबर शेड सारकी करतां करतां आप्पा आपल्या भावाक आपल्याक हांगा त्रासांत घालपाक आफयलो हेखातीर ताका गाळी संवपाक लागलो. आपली भुरगी थंडीताप येवन मेल्यार आपलो भावूच जापसालदार अशें म्हणून ताका तापोवंक लागलो.

दुसरे दिस आड्याळो पावस गेलो. सदच्यासारके सकाळधरयां काम सुरू जालें. दनपारच्या वोतांतसून इंजनेर माशाद मोटारसायकली वयल्यान आयलो आनी काम पळोवपाक लागलो. ताणे आपल्या माथ्यावयले चेपें नीट केलें आनी मुकादमाक आपल्या फुड्यांत आफयलो. काल काम बंद दवरलेलें हेखातीर ताका ताणे तापयलो; आनी म्हयन्यान सुरू जावपी मिर्गापयली काम पुराय जावपाक जाय. म्हूण ताकीद दिली.

मीर्ग लागच्या आदीच एक दीस पयलीच बंगल्याचे काम पुराय जाले. वयर तेर्रास घालून जाल्याउपरान्त वण्टीक शिमीट काडून जाले. जमनीक तिजुले घातले आनी मागीर रंग काडून जालो. ते दीस दनपार जाल्यानंतर काम सोपलें. कामगार आपल्या लेबर शेडीत गेले. तांका कामाचे पैशे पडलेले. ते उमेदीर आसले. लेबर शेडीन कुडी कुडीनी गोडशें आनी मसाल्याचे तिखशें शिजपाचे आसलें. तांचो हेविशी बेत चलतालो.

वसंतराव सकाळसाकून थंय आसलो. ताची बायल भुरगी येवन गेल्लीं. वसंतबाबाक बंगल्याफुडें आनी भोंवतणी गार्डन करपाचे आसलें. बंगल्या भोंवतणीचे सगळे निवळ करून गार्डन केल्याउपरान्त बंगल्याक देखदेणी सोब येतली आसली. ताचे घरकान्नीन तर ताका मिर्गाच्या म्हुर्तार फाल्यांच गार्डन करून घेवपाची सुचोवणी केल्ली. गार्डन बेगीन जाल्यार बंगल्यांत घरप्रवेश करपाक बेगीन मेळटलें आसलें. गार्डन करतले जाल्यार मानाय रावता ती लांबच्या लांब टेम्परर्री लेबर शेड मोडपाची आसली. ताणे दुसऱ्या दिसा मीर्गाच्या म्हुर्तार गार्डन करपाचे थारायलें. तो शेडीकडे गेलो. मल्लाप्पाक आफयलो आनी ताणे ताका विचाल्लें;

'तुमकां कामाचे सगळे पैशे मेळ्ळे मरे?'

'हय. पात्रांव आनिक किदें काम उल्लां? आनिक कांय दीस काम मेळ्ळे तर बरें जावपाचें. नाजाल्यार काम मेळत मेरेन बेकार रावचे पडटलें.'

'आनीक काम आसा.'

'कसलें?'

'गार्डन करपाचें. जमीन लेव्हलार करून फाल्यां गार्डन करपाचें. आता व्हडली सांज जांवना. आता ही लेबरशेड मोडपाची.

'आमी रावता ती शेड !' शेड आतांच मोडपाची !'

'हय.'

'पात्रांव आमी तितून रावतां न्हू.'

सगले कामगार आनी तांची भुरगी बाळां दोगांयचे उलोवणे आयकताली. लेबरशेड आतांच मोडपाची हें आयकून तांका अजाप जालें आनी ते तांच्या फुड्यांत आयले.

'तुमी रावले देखून तुमकां सदाच हांगा रावपाक मेळटलें तर?' वसंतबाब ताका तापोवन उलोवंक लागलो.

'तशे न्हू आमी सदाच कशे रावतले? पूण आयची रात रावतां.'

'हय. हय' म्हणून हेर कामगारानी मल्लाप्पाक तेको दिलो.

'आयची रातबीन कांय ना. फाल्यां म्हाकां हांगा गार्डन करपाचे आसा. तुमचेखातीर हांवें ही जागा विकती घेवंना. तुमी आयजूच, आताच भायर सरात.' तो धमकावन उलयलो.

'आता तिनसांज जाली. कशे जातले पात्रांव.' मल्लाप्पान आता काकुतेक येवन सांगलें.

'तें कांय कोताक पडना. हांवें म्हज्या मुंडकारांक सुद्धां म्हजे मालकेच्या जाग्यार रावपाक दिलें ना.'

वसंतबाब अशें उलयलो आनी ताका आपणे मुंडकारांक कशी घालोवन दिलीं ती याद जाली. ताचे दोंगुल्लेर मुंडकारांची घरा आसली. पूण जेन्ना ताचे दोंगुल्लेर मीन लागले आनी घरा पोदांसुद्धा मीन सांपडले तेन्ना ताणे बळजबरीन तांची घरां मोडून उडोवक तांकां थंय रावपाक न दितां थंयसून घालयल्ली. वसंतबाब फुडें उलोवंक लागलो.

''आनीक कुळांची घरां मोडून तांका थंयचे हांवें घालयले तो हांव, तुमकां घाटयांक रावंक दितलो. तुमी शेडीतले भायर सरात आनी शेड मोडात.''

''ना आमी मोडीना'' आप्पा पोटतिडकेन उलयलो. ताचे जोडयेक मल्लाप्पा उलोवंक लागलो.

''हय आमी मोडीना. तुजो बंगलो आतां तयार जालो आनी आमी रावतां ती शेड आमी आतां मोडूं. आमी मोडचेना. आपले काम जाले म्हण्टकूच तिनसांज बीन कांय न पळयतां आमकां धांवडावन घालता ! आमी मोडचेना. आमी रावल्ले ती शेड आमी मोडचेना.''

''मोडले म्हूण किदें जालें. तुमी ती मोडात. तुमकां हांव दोट्टी दिसवडो फारीक करतां.''

''आमी मोडीना. दोट्टी दिसाडो दी नाजाल्यार तिट्टी दी. आमी मोडीना.''

हेरूय ताच्या वांगडा ''आमी मोडीना'' म्हणपाक लागले.

''तुमी मोडीना जाल्यार हांव हांगचे मानाय हाडून मोडून घेतलों.''

''पूण पात्रांव आता आमोरी जावन रात जावपाची जाली आमी हेवेळार खंय वच्चे?''

''तुमी जाये थंय चलात. म्हाका किदें? तुमी काडोन चलात हांगासल्ले.'' अशे म्हणून वसंतबाबा लेबरशेड मोडपाक गांवठी मानाय हाडपाक गेलो.

सांज जाल्ली तरी लेबरशेडीतल्या चुलींनी उजो पेटलो ना. किदें बरे शिजोवपाचो तांचो बेत तसोच उरलो. सगळ्यांच्या तोंडावयली व्हडल काम सोंपल्या उपरान्तची उमेद ना जाली. त्या जाग्यार काळजी आनी खंत दिसताली. वारो सामकोच पडलेलो. थंयच्या झाडाचे पान लेगीत हालनासलें. सगळें थंयच्या थंयच कशे सामके थीर आसलें. पूण लागीच मीर्ग आसलेल्यान मळबांत दमळां जमताली. पावस केन्ना पडत हें सांगू नजो आसले. खिणांत अशीच गडगड तटतट मारून येवपी अस्थिरता मानायांच्या कपलांत आसली. आता काळोख दाटून येत आसताना तीन कातरेर खंय वच्चे हो प्रस्न तांका भेस्टायतालो. पाना हालनासली तेवरीच सगळे वोगीच आसले. मात आप्पा थरथरतालो. ताची बायल इराम्मा ताच्यालागी आसली आनी ताची दोनूय भुरगी ताच्या पांयांक घट्ट वेंग मारून आसली. मल्लाप्पा, यल्लप्पा, संगरप्पा, बसाप्पा, मारूती, भिमा, भिवा तांची बायलां आनी भुरगीं आप्पासारकी जाल्लीं.

पात्रांव चार गांवठी मानाय घेवन आयलो आनी ती लेबर शेड मोडपाक सुरवात केली. तेबराबर मानायांच्या घरकाण्णींनी आपापल्या कुडींनी वचून आपली आयदणां आनी कपडे हाडले. ते परकी आसलेल्यान आपले हांगा कांयच चलचें ना हें तांका खबर आसलें. शेड मोडटना ते वोगीच रावन पळोवंक लागले. शेडीचे पत्रे देवयल्या उपरान्त आनी कडवो उसयल्या उपरान्त शेड उक्ती जाली. जमनीत नेमां काडून पुरलेल्यो मेडी हालोवन हुमटील्यो. चुली मोडल्यो. ते पळोवन ते तिनकातरेर कामगारांचो मेळ माथ्यार साटली पोटली मारून मोन्यानी चलपाक लागलो. पांय व्हरता थंय ते चलपाक लागले. एक खंयचे अशे थळ तांका नासलें. आप्पाची बायल इराम्मा तर रडपाक पावली. आपल्या न्हिदलेल्या धाकट्या भुरग्याक खांदार घेवन ती त्या मेळा वांगडा चलताली. खांदाक सामानाची झोळी लावन आनी चेडवाक हाताक धरून चलतल्या आप्पाक खंयतरी उबंतरार मांडलेली आपली चूल दिसपाक लागली.

तिनकातरेवयलो काळोख अदीक दाट जायत आसलो चलताना तांच्या तोंडामुखार आथीक काळासाकून आसलेलो निवाऱ्याचो प्रस्न मांडलेलो. ती परत परत फाटल्यान पळयताली. मल्लाप्पा, आप्पा हांच्यासयत सगळ्यांक तांणी बांदलेलो बंगलो आनी बंगल्या कुशीक मोडून उडयल्ली मातयेभरवण जाल्ली लेबरशेड दिसताली, आनी बरेच फुडें काळखांत गेले तरी तेंच चित्र तांच्या दोळ्यासामखार नियाळटालें.

❑❑❑

# काळ उलयलो

– रमेश भगवंत वेळुस्कार

वितळत येताले
वर्सतळाचे निमणे खीण
अशा वेळार काळ उलयलो:
कितें केल्या हे हाल
ह्या सौंदर्यकुंवरी गोंयाचे
आनी ताच्या सौंदर्याच्या कुळाराचे

गोंयचे चित्तहारी
आंखीव रेखीव पर्वतरायो/ दोंगर
आतां दर एके वाटेन
नागडे करून उडयतात
कितें नशिबाचे खेळ... !
पूतच आपले
जननी धर्तरमायेक
विंगळी करून
परदेशियांक पेश करपाक
संवकला

थू... थू...
थू... तुमच्या प्रदेश प्रेमाचेर
तुमच्या देश प्रेमाचेर

देशाचे अहं
आनी देशाचें सार्वभौमत्व
पायांनी माड्डोवपाक भायर सल्लेले
तुमचे दोंके आनी कर्तव्य शुन्य हात
झटक्यांत
कलम करपाचेच
लायकीचे आसात

सध्या एक चर्चा
नेटान चल्ल्या
तुमी खंय
गोंयचो विकास करपाच्या
फाटल्यान लागल्यात....

कितें आसा अर्थ ह्या तुमच्या विकासाक?
हांगाची सैममाय नश्ट करून
थंय काँक्रीटाचे काटण उबे करप
म्हणजेंच विकास काय कितें?

विकासाच्यो ह्यो व्याख्या
तुमच्या पदरच्यो
काय भाड्याच्यो, हाडल्यात
कोणाय कडल्यान !

जगांतले सगळे निसर्गमोगी
येतात गोंयांत
कांय दिसांखातीर, कांय खिणांखातीर
आनी हांगच्या
निसर्गसर्गांत
चिंब जावन वयतात
हांगचे हवेंतल्यान जुवान ताजे जायत
धश्ट पुश्ट जायत
वयतात परत आपापल्या मायदेसा

चड करून हे
विकसीत देशांचे नागरीक आसतात
पूर्ण विकसीत
आनी निरोगी जांवक
हांगा येतात
म्हणून म्हण्टां
विकासाची नवी परिभाशा
आतां तुमीच करपाक जाय

प्रकृतीचो समतोल सादून
विकास करचो सोद
आतां तुमीच करपाक जाय
पूण तुमी तर
आयुश्य आरोग्याची
नर्सरीच नेस्तनाबूत करपाक
संवकल्यात
आनी ते लेगीत
संससारांतल्या कांय धनदांडग्यांनी
तुमचे मुखार उडयल्ल्या
मुठभर म्होरांखातीर ?

ह्या मुठभर म्होरांचे
लालसेन पागळल्या म्हणूच
धर्तर मायेन निर्माण केल्ल्या
ह्या संजीवन स्त्रोताक

ध्वस्त करपाक भायर सल्ल्यात
आनी तेंय शिमिटाचो लेप काडून....?
निर्जीव शिमीट
वांज शिमीट

आयज़ गोंयच्या
सांदी कोनशाक
अटंग्या वनांचें 'शेवींग' चल्लां
आतां हांगचे भुयेवयल्या हवेचें
प्राणवायूतत्व
इल्लें इल्लें
पात्तळ जायतूच वयतलें
वा हांगाच्या
पांचव्यचार साम्राज्यावयल्यान
व्हांवपी वखदी वारो
अरसतूच वचपाचो आसा
तुमच्या अमंत्रणांवयल्यान
हांगची भूंय काबीज करुंक येवपी
लक्ष्मी माशूक
ताचें संतुळण करुंक शकतले काय कितें....?
काय चिमटीभर नाण्यांखातीर
आपली अक्कल घाणाक उडोवपी
टाका-ठक करतले काय कितें....?

सवन विश्वाक
आपूण विद्धान
आपूण विचारवंत
अशें भासोवपी तुमी
ह्या टीचभर गोंयची
मूठभर सौंदर्यसमृद्धी
तुमी सांबाळूंक शकनात...?
तुमच्या शणै गोंयबाबाक हेंच जाय आसलें काय कितें?
धर्मानंद कोंसबीक हेंच जाय आसलें काय कितें?
फादर आन्नेलाक हेंच जाय आसलें काय कितें?
हंयसल्ल्या हरव्या सौंदर्यार
दर्या जावन घालून घेतल्या
बाकीबाबांक हेंच जाय आसलें काय कितें?
गोंयचें स्वातंत्र्य निशाण
टी. बी. कुन्याकूय हेंच जाय आसलें काय कितें?
संवसार-परसकारांच्या मग्रूर हातांतल्यान
हळद-भांगराक सोडोवन हाडपी
तुमच्या दो. रघुनाथ माशेलकारांक हेच जाय आसलें काय कितें?
देशाच्या विज्ञान परंपरेची
शान आनी अभिमान हाडपी
अनिल काकोडकारांक हेंच जाय आसलें काय कितें?
काय हांगासल्ल्या सैम समारोहाचेर
जीव घालपी
मनोहरराय सरदेसांयाक हेंच जाय आसलें काय कितें?
.... आनी....
आनी होच तुमचो विकास काय कितें...?
शिमिटाच्यो गगन उबी घेवपी
इमारती
वयर धुकलीत रावप
आनी हे तांबडे मातयेर
शिमीटाचें हांथरूण पातळयत वचप
होच विकास काय कितें?
हो तर ध्वंस.....

स्वताक विद्धान म्हणोवपी
गोऱ्या येरोप्यांनी
निसर्ग सुंदर आफ्रिकेचें सौंदर्य
ना न्हप्पय करून उडयलें काय ना...?
ह्या विद्धान विद्धाट्यांच्या करण्यांचो प्रताप
बाबड्या आफ्रीकी लोकांक
हा वेळ मेरेन भोगचो पडत आसा....!

आयज तेच लोक
वा तसलेच तरेचे लोक
हांगा येतात वा कोण तरी तांकां हाडटात
सुंदरतायेचो विध्वंस करपाक ते येतात
तांचो विकास
सुंदरता नश्ट करपांतूच आसता
आनी ह्या सगळ्यांक
हेंच शिकोवपाची गरज आसा
की विकास
प्रकृतीचो न्हास करपांत
बिलकूल ना

आनी आतां तर
जबाबदारी तुमचेरूच आसा
ह्या संवसाराक शिकोवपाची
की निसर्गाच्या न्हासाबगर
विकास कसो सादूं येता
आनी सैम सांबाळ कसो करूं येता....
करूंक जाय!

सवन धर्तरेचेर
शिमिटाचे थर शिंवरून
तिका सुंदर केली जाल्यार
खातलें कितें माकडांनो....?
तिका वांज करतले....?
गोंयांक वांज करतले...?
आनी
आनी खातले कितें...? फातर...?

हे गोंयचे मातयेंतलीं रानां
उध्वस्त करपाचो वावर सुरू जाला
तांतली ओखदी वनस्पत
जी हांगचे सामान्य जनतेची संजीवनी आसली.
ती भूंय भरवण करपाचो वावर चल्ला
कितलें सुंदर आनी पौश्टीक आनी सात्वीक
आनी वखदी काम तुमी करतात न्हंय...?

पूण हें सैम
तुमकां कशेंच सोडपाचें ना
अप्रुबुद्धानो..!

आयज वर्साचो निमणो दीस
आनी पळयात म्हजो स्वास आडखळटा
हांगा येवपी लाखानी पर्यटकांच्या
हजारांनी गाडयांचो
कार्बोन डायओक्सायडी धूप
खचाखच भरत आसा
हांगासल्ल्या वातावरणांत
प्राणवायू सोदपाखातीर
छातयांचे भाते जातात
ह्या दुशीत वातावरणांत

म्हाकां तर रावपाकूच जाय
पूण तुमचें कितें जातलें काय...?

तशें पळयलें जाल्यार
म्हाकां लेगीत वयचेंच पडटलें...
पूण... होशियार...
फुडें फकत शिमिटाची भूंय आसा
वांज आसा... तिच्यांत कांयच किल्लूपाचेंना
आनी मुखार
फोंसा घालपी उज्याच्या ल्हारांचो दर्या आसा
आनी ताका तुमकां आपल्यांत लपेटून घेंवचें आसा
होच ताचो एकमेव इरादो आसा
आनी.... आनी हो तर
तुमीच केल्लो प्लॅन आसा....!!

अशें म्हणून काळ
थार मोनो..... किरांव मोनो जायत गेलो....!!

(१/१/२००७ ह्या दिसा ''काँक्रीटच्या जंगलांत'' ह्या पिपल्स फोरमान आयोजीत केल्ल्या कवी संमेलनांत वाचलेल्या मूळ हिंदी कवितेचो कोंकणी अणकार. अणकार स्वतःच कवीन केला.)







---

पान ३२ वयल्यान

## म्हजेय इल्लें

नितळसाणीची म्हायती दिवंक जाय. नितळसाण ह्या विशयाचेर भुरग्यांक शाळेत समजावन सांगपाक जाय. ल्हान ल्हान भुरग्यांक तो विशय तरांतरांनी चित्रा दाखोवन तांका नितळसाण म्हळ्यार कितें तें समजावन सांगपाचो यत्न करपाक जाय.

फाटी गेल्या वर्सासावन कचऱ्याचेर खुब व्हड चर्चाय जाल्ली. एका जाग्यावयलो कचरो एकठांय करून दुसऱ्या जाग्यार कचरो व्हरून उडयल्याकारणान कांय लोकांक त्रासूय सोसचे पडले. देखून सगळ्या शारानी बरोच बोवाळ जाल्लो. ह्या विशयाचेर सरकाराकूय एकावेळार कांय सुचना जाल्लें. ताका लागून हो कचरो खंयच्या खंय उडोवपाक लागले. हो कचरो काय घराक लागसर आशिल्ल्यान लोकांक जगपाक त्रास जावपाक लागले. ताचो हो वास सोसू नजो जालो.

देवाक लेगीत घडये मनशान केल्ली ही विटंबना पळोवन चुरचुरे भोगल्या आसतले. पूण मनीस इतलो स्वार्थी जाला की ताका देवाचे लेगीच चुरचुरे दिसचेना. एकल्यान नितळसाणीचेर विचार करून कांयच फायदो ना. पुराय जग ल्हव ल्हव निवळ जावंक जाय. आनी अशे जावक जाय जाल्यार प्रत्येकान आयज सावन हें म्हजें कर्तव्य अशें म्हूण वावर करपाक जाय. तरूच मनीस आनी सरभोवतण नितळ उरतली.

– सुप्रिया नागवेकार,
खोर्लीम – वोलवाडो,
तिसवाडी, गोंय.

❑❑❑

# मेरेवेलो गांवकार : एका विनोदयात्रेची भोंवडी

- हनुमंत चोपडेकार

कोंकणी साहित्यीक मळार सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांचें नांव व्हडा आदरान घेवंक जाय. आपल्या ल्हानशा साहित्यीक वावरान ताणे समस्त कोंकणी वाचकांक मंत्रमुग्ध करून सोडिल्ले आसात. कोंकणी साहित्याच्या मळाचेर विनोदी, मिश्कील शैलीन बरोवपी लेखक भोव थोडे. अ. ना. म्हांबरो हांचे वाचकांक मर्दीच चिमटे काडपी बरप, खासा करून निबंद आनी कथा, चाफ्रांच्यो मना-काळजाक खातकुतल्यो करपी विनोदी पूण विचार करूंक लावपी सुटसुटीत कविता, तॉमाझिन कार्दोज, एम. बॉयर हांच्या तियात्रांतलो वा कांतारांतलो ल्हवपिक विनोद. अशी हाताच्या बोटांचेर मेजपाक मेळपी नांवां सोडलीं जाल्यार कोंकणी साहित्यांत विनोद हो प्रकार चडसो फामाद जावंक ना हें मानून घेवचेंच पडटा. (नाटकांचो आडवाद सोडलो जाल्यार.)

ना म्हटलें तरीय वयले वळेरींत सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांचें नांव अधिकारान येताच. लक्ष्मीनारायण पारजांचो फक्त एकूच निबंद झेलो तांच्या अधिकाराक पोसवण दिवंक पुरो जाता. पारजांचो मेरेवेलो गांवकार नांवाचो व्यक्तिचित्रणात्मक निबंद झेलो,- राजहंस प्रकाशनान १९८९ वर्सा उजवाडाक हाडलो. ह्या झेल्यांत वट्ट धा निबंद आस्पावल्यांत. सुरवेक वेगवेगळ्या पत्रकांनी उजवाडाक आयिल्ले निबंद वेंचून हो झेलो गुंथिल्लो आसा. तांतुतलोय विनोद सोदपाचो हो प्रपंच.....

काणकोणच्या गांवगिऱ्या वाठारांत लक्ष्मीनारायण पारजांचो जल्म जालो. भुरगेंपणासावन तांका धार्मिक, सांस्कृतीक उत्सवांतल्यान साहित्य, नाटकां, नकलां हांची उस्तवारी करपाची आवड. गोंय, गोंयकारपण हांचो तांका अभिमान. गोंयची शीतकडी, सुंगटा-हुमण बांगड्यांची हुड्मेथी, कोंबडेची शागोती, खतखतें, सोजी हातूंत जसो गोंयकारपणाचो वास आसता तसो सुवास तांच्या बरपावळीक मारता.

व्हड साहित्यीक, राजकारणी, समाजसेवक, कलाकार हांचेकडेन तांची आमिगात. खंयचीच गजाल विनोदी, मिश्कील शैलीन सांगप ही तांची खाशेलपण . तांची ही वेगळी शैली सुरवेकच्या अर्पण पत्रिकेंतूच दिसून येता. ते म्हण्टा-

पुस्तक छापणारो आपले पयशे घेता.
उजवाडावपीय आपली पड सोडयता.
बरोवपी किर्तेंय मेळ्ळ्यार बोल्सांत घालता,
सगळे हक्क आपलेकडेन दवरता
आतां अर्पण करपाचें किर्तें उरता?
तेंच म्हाका समजना....

अर्पण पत्रिकेंतल्यान सुरू जाल्ली ही विनोद यात्रा पुस्तकांच्या पानापानाकणकणी दिसून येता. मनीस स्वभाव, मनीस वेव्हार, मानवी वृत्ती-विकृत्ती, तरेकवार प्रसंगावेळार प्रकट जावपी तांची मनोवृत्ती हांचें उत्कट दर्शन ह्या झेल्यांत घडटा. आमच्या भोंवतणचोच एखादो व्यक्ती तांच्या बरपाचो नायक जाता, तो आपल्या सभावांतल्या धोंगापोंगा सयत आसा तसोच आमच्या म्हऱ्यांत उबो रावता. देखुनूच वेगवेगळ्या प्रसंगा वेळार विनोदाच्यो चिळकांड्यो उठ्ठात. वावराडी, फोंडू, शॅबांबा, मुकूंद, सोंशेबाब ह्या निबंदांतल्यो तरेकवार घटना प्रसंग हांगा हिसपाक घेवं येतात.

तांच्या बरपावळींतली मिश्किलताय केन्ना केन्ना सट्ट करून जाल्यार केन्ना केन्ना फट्ट करून भायर सरता आनी वाचकाच्या तोंडार हांसो पातळटा. पूण ताच्या विनोदाक एक भावनीक आनी सामाजीक देग आसा हें मात विसरूंक जावचें ना. हे विनोद तांच्या बरपावळीच्या आदारान सोदून काडपाचो हो सुपुल्लो यत्न.

**पयलो विनोद .... शालीवाहनच्या निमतान -**

बाकीबाब बोरकार हे कोंकणी आनी मराठींतले खापे कवी. तांच्या व्यक्तित्वाचेर उजवाड घालपी पारजांचो हो पयलो निबंद. बाकीबाब साहित्यीक म्हण कसो आसलो, घरकार म्हूण कसो आसलो आनी मनीस म्हूण कसो आसलो हाचो परामर्श तांणी अतिशय मिश्कलीपणान हांगा मांडला. हो विनोद प्रकट करताना तांणी बाकीबाबाक ल्हान करूंकना हें विशेश. बाकीबाबाची वळख जातकच ते म्हण्टात "हांव तेन्ना इतलो खोशी जालों तसो नेर्वोजूय जालो आनी म्हजें किर्तें किर्तें जालें तें आणभवानूच कळपाचें, म्हजी सामकी कायलोळी कशी जाली. बाकीबाबाच्या व्यक्तित्वाचीं वेगवेगळीं तासां पारजान बरपांत मांडल्यांत. कवी बाकीबाब, भुरग्यांवांगडा रमी खेळटाना भुरगो जावपी बाकीबाब. गीता, ज्ञानेश्वरीचेर भाश्य परपी तत्वगिन्यानी बाकीबाब, भिकाऱ्याकडेन इश्टागत दवरपी सामान्यांतलो सामान्य

बाकीबाब. ज्या घोस्तान व्हिस्की घेता त्याच घोस्तान जीव ओतून शांतादुर्गेचे तिर्थ घेवपी रसिक बाकीबाब आनी इमरजन्सीच्या वेळार निशेध चीट बरावन विनोबा भावेकूच आव्हान दिवपी बाकीबाब पारजांच्या शालीवाहनांत दिसता.

बाकीबाबांच्या सभावांतली विनोदी शैली आनी तांची हजरजबाबीपणा जायतेकडेन विनोद प्रकट करतात देखीक- बाकीबाब एक फावट म्हण्टा-

"**बायलांक आपल्या घोवाचें कौतूक लग्न जांवचेपयलीं खूबच दिसता आनी लग्न जातकच तें सुकता. तें कित्याक जाता जाणा? बायलेन आपल्या घोवाक लंपट अवस्थेंत नागडो पळयल्लो आसता, तेन्ना तिचेलागी कर्तबगारीची हुशारी मारल्यार ती म्हण्टा- 'पुरो पुरो दवर तुजें हांवें सगळें पळेलां.'" (पान नं. १२ पयली आवृत्ती)**

"**आयज वता थंय बंद, घेराव, सवका काम करप हें पळेल्यार देस सुदारता काय फाटल्यान वता तेंच कळना, तरी बरें देवान सुर्य, चंद्र, पृथ्वी, नखेत्रां हांची गती आपल्या हातांत दवरल्या, नाजाल्यार हे लोक एक दीस पृथ्वी भोंवपाची बंद करपा आसले."(पान नं. ११)**

अशे तरेन बाकीबाबांच्या तत्वगिन्याचो आनी विचारांचो आदार घेयत पारजान ह्या बरपाक एक नवो विनोदी आलेख दिवपाचो यशस्वी यत्न केला.

### ❊ दुसरो विनोद .... 'वावराडी'

वावराडी हो पारजांचो दुसरो निबंद. ह्या निबंदांत कल्पना आनी वास्तवता हातांत हात घालून मुखार सरतात. निबंदाच्या सुरवेकूच बरोवपी म्हण्टा "**आमची वावराडी अचकीत एका दिसा देवागेर गेली. देवागेर गेली म्हळ्यार तशी मेली बी ना ! कित्याक तर कोणय मेल्यार, 'तो देवागेर गेलो' अशे म्हणपाची चाल आसा पूण तशें कांयच घडलें ना. देव म्हळ्यार रामकृष्ण देव. तो आमच्या शेजरा रावपी मिनैराचो ड्रायव्हर. त्या रामकृष्ण देवावांगडा आमची वावराडी गुल्ल जाली." (पान क्र. २३ पयली आवृत्ती)**

अशे तरेन बरोवपी लक्ष्मीनारायण पारज वस्तुस्थिती सांगतनाच विनोदाच्यो ल्हायो पिकयता. वावराडी पळून गेल्ल्यान तिचीं घरचीं आनी मिनैर ताका दूशण दिता पूण बरोवपी एक वेगळ्याच विचारान मनांतल्या मनांत धादोसता. स्वयंवर ह्या आमच्या मूळ परंपरोची आनी व्हंकलेच्या व्यक्तीगत स्वातंत्र्याची साक्ष दिवपी ती प्रथा वावराडेन कळत नकळटाच सांबाळ्ळी म्हूण सुंखावता. आयज नवरो सोदपाक व्हांकलेच्या बापायक जोतीं झरोवंची पडटात पूण वावराडेन बापायची जोती शाबूत दवरली अशें म्हणून पारज त्या प्रसंगाची गंभिरतायूच काडून उडयता.

'वावराडी पळून गेल्ल्यान बरोवप्याच्या बरपाचेर परिणाम जाता ताचें बरप कमी जाता अशें तो आपल्या इश्टांक सांगता तेन्ना ताचे इश्ट मुद्दामूच वाकडो अर्थ काडटा. कांय जाण वावराडेचेर बरोवप्याचो जीव आशिल्लो जावंक जाय अशें म्हण्टा जाल्यार दुसरो वावराडीच बरप करताली आनी हो आपल्या नांवार बी तें छापतालो आसूंक जाय म्हण्टा. तेन्ना बरोवपी अतिशय विनोदी शैलींत वयले दोनूय आरोप न्हयकारता. तो बरयता,

"**अशो एकेकल्याचो तकल्यो दब्यांत पॅक करून फॉरेनाक धाडपासारख्यो. आमचे मजगतीं अशे तकलेचे मनीस आसताना अमेरीके पयलीं आमी चंद्रार कशे गेलेनात हांचें म्हाका अजाप जाता ! विश्वामित्राभाशेन एक नवीन सृश्ट निर्माण करपाक आमचे आमीग सगळ्यांत फुडें! आपले कुले उक्ते पडल्यार तांका कळना पूण दुसऱ्यांच्या पोल्यार मातशें कितेय लागल्यार रोखडेंच दिश्टी पडटा (पान क्र. २१ पयली आवृत्ती)** तरेकवार वावऱ्याड्यांचे कोडू गोड अणभव बरोवप्यान ह्या निबंदात मांडल्यांत. ते अणभव वाचताना वाचकाच्या पोटांत हांसोन गुळो येता अशें म्हणप अतिताय जावचिना.

### ❊ जय शंकरा : शंकर भांडारीची व्हडविकाय मिश्कील शैलींत

हो निबंध एका म्हान गोंयकाराचेर आनी ताच्या असामान्य व्यक्तित्वाचेर आदारिल्लो आसा. तसो शंकर भांडारी हो आकाशवाणीचेर काम करपी एक सादो गोंयकार, पूण आपल्या बुद्धीमत्तेच्या आनी विद्वत्तेच्या जोराचेर ताच्या नांवाचो दबदबो गोंयभर पातळ्ळा देखुनूच सबंद गोंयांतले ल्हान व्हड लोक ताका सोदूंक येता.

शंकर भांडारी विशी पारज बरयतात-

"**शंकर कांय मंत्री न्हय मोटो सावकारूय न्हय. व्हडलो अधिकारी न्हय वा पत्रकारूय न्हय. तो आशिल्लो पणजे आकाशवाणीवयलो सादो ऑफीसर. पायांत जोतें, खादीचो धवोफुल्ल सदरो, खंय कानाशिलाचेर थोडभोव केंस, खांकेंत बोटवो आनी तोंडार चान्ने ! अशा भेसान सांजवेळार शंकर पणजे आल्तिन्यावयल्यान देंवता आसताना गोंयचो 'दूदसागर' आपली वाट चुकून आल्तिन्यार बी पावलो काय कशें दिस."**

शंकर भांडारीन ओपिनियन पोलावेळार तशेच सामाजीक आनी भाशीक चळवळींत भोव मोलाचो वावर केला. खंयच्याय कवी संमेलनांत शंकरबाबाची

'गोड गोड गोड गळ्यान
गोमटें गोंय गायता
संगिताच्या निजान ताच्या
निर्मितल्याक होरायता'

– ही कविता पयल्याच बोलार बॅटसमेनान सिक्सर मारिल्लेवरी भासता. शंकरबाबांची "गणा" ह्या कवितेचीय व्हडविकाय बरोवपी ह्या निबंदांत व्यक्त करता. ह्या निबंदांत शंकरबाबांच्या हजरजबाबीपणाच्यो जायत्यो देखी दिवन विनोदाची हांसती फुलां पारजान फुलयल्यां. बरोवपी म्हण्टा शंकरबाबांक इंग्लीश-मराठी मिक्स करून नाट्यसंगीत गावपाची उमेद येताली तेन्ना ते म्हण्टाले-

डॉऽऽऽ चूवरी

डॉऽऽऽ चूवरी।
जागृत गिरीधारी।
ऑम्पल रायसकरी।
जागृत गिरीधारी।।

### ❊ शॅ ऽऽऽ बाबा

शॅ ऽऽऽ बाबा म्हळ्यार रवळू महादेव राजकोंबो. पूण अख्खो गांव ताकां 'शॅ ऽऽऽ बाबा' म्हूण वळखता. कोणाकूय गांवांत रवळू खंय रावता काय म्हूण विचारल्यार तो तुमकां पळयतूच रावतलो. शॅ बाबाक लेगीत तांचे स्वत:चे नांव रवळू आसा हे खबर ना.

कांय लोकांक विशिश्ट पद्दतीन चलपाची वा उलोवपाची सवंय लागलेली आसता आनी ताचेवयल्यानूच तांकां लोक वळखतात. 'शॅबाबाक' उतरा कणकणी आनी वाक्या कणकणी 'शॅबाबा शॅबाबा' अशें म्हणपाची सवंय देखुनुच तो सगळ्या गांवचो शॅबाबा जाल्लो आसा.

देखीत -

**१) 'शॅबाबा ! बाजारांत गेल्लो, बाजाराक पेटला उजो!''**
**२) 'शॅबाबा ! त्या हरीशणैक चड जालें.'**
**३) 'शॅबाबा ! आगे तो स्मार्ट म्हळ्यार स्मार्ट'**
**४) 'शॅबाबा ! असल्यो पंचायती म्हाका नाका.'**

शॅबाबा गॉवचो सेक्रेटरी, दोतोर, भविश्यकार, सोयरीगती जुळोवपी म्हालो, कोणायच्या जल्माक तशेंच मरणाक पावपी खरो गांवकार. शॅबाबा सारखो परोपकारी मनीस गांवांत दुसरो कोणूच मेळचोना अशें बरोवपी सांगता. पूण ह्याच मनशान आपल्या स्वताच्या कुटुंबाक केन्नाच मदत करूंकना हें व्हड सतूय मांडटा. घरांत पिसो पूत, घोवान सोडिल्ली धूव आनी संवसाराचो गाडो कसोतरी मुखार धुकलपी बायल हांचो तांणी केन्नाच हुस्को केल्लो दिसना. स्वताची बायल मरता तेन्ना जाल्यार तो मरणाकलेगीत पावना.

शॅबाबा सारखे जायते मनीस आमच्या समाजांत दिसून येतात तांचेंच प्रतिनिधीक रूप हांगा बरोवप्यान चित्रायलां. तांचें उलोवप, चिंतप, वागप, भोंवत, रावप अशा साबार गजालींचेर भाश्य करून बरोवपी विनोद आनी असहायता हांचो यशस्वी सांगड घालता.

### ❊ वाश्कीत : वास्तवांतल्यान जल्मल्लो हास्यकळो

ललितगद्य प्रकारांत मोडपी आनी वास्तवाच्या साणीचेर घासून पुसून तयार जाल्लो निबंद म्हळ्यार वाश्कीत. ह्या बरपाची शैली जरी विनोदी आसली तरीय ताका मनीसपणाची ओलाय आसा. पुर्तुगेजांच्या मुस्तींत मिश्कीत लोकांक कशे सतायताले, कशे पिडटालें हाचें मार्मिक चित्रण ह्या निबंदांत लेखकान केलां. 'मिस्तीत' म्हळ्यार बापूय पुर्तुगेज आनी आवय गोंयकार हांचेपासून जल्माक आयिल्ली व्यक्ती. व्हड जातकूच ते चड कडून पुर्तुगेजांच्या पुलिसेंत वा मिलेट्रींत काम करताले. गोंयकारांचेर गरज नासतना वोगीच राग काडटाले, केन्ना केन्ना जाल्यार आवटेंपणूच करताले. कोणाच्या घुडांतल्यो कोंबड्यो फारोवप, डुकर धरून व्हरप, नुस्त्या गांथनी हातांतल्यान हिस्कावप आनी बायलांचेर वाकडी नदर दवरप, बळजबरीय करप असलीं नश्टेंपणां ते करताले.

बरोवप्यान हो लेख स्वताच्या अणभवांतल्यान रचला. वाश्कीत नांवाचो अधिकारी शिमेचेर पासपोर्ट तपासताना लोकांक कसो पिडटालो हाचे जिवंत चित्रण उबें करताना जायते विनोद आयल्यांत. बरोवपी म्हण्टा -

**''जयहिंद म्हण्टकच तांच्या दोळ्यामुखार काजुले येताले, इतकेंच न्हय तर कलसांवूय ओलें जातालें. पूण जयहिंद म्हळ्यार किते हें कोणच मिस्तीत नकळो आसलो. थोडे 'जयहिंद' म्हळ्यार इंदियान पिशतॉल अशें समजताले. कोणाक जयहिंद म्हळ्यार फारार फार मारपाची ऑटोमेटीक बंदूक जाल्यार थोड्यांक जयहिंद हो हातबॉम नाजाल्यार गर्नाल काय कितें असो दुबाव मारतालो. थोडी पुस्तकां शिकिल्ल्या मिस्तीसांक जयहिंद म्हळ्यार एक स्फोटक साहित्याचो प्रकार अशे दिस.'' (पान क्र. १२१)**

बरोवप्यान फक्त एक इतिहासीक प्रसंग हांगा मांडला तोवूय विनोदी शैलींत कोणांक दुखोवपाचो ताचो हेतू ना हे रोकडेंच स्पश्ट जाता.

### ❊ सोपयताना थोडेंशे....

सर्गेस्त लक्ष्मीनारायण पारज हांणी 'मेरेवेलो गांवकारांत' गोंयच्या नीज मनशांचे स्वभाव. वृत्ती, प्रवृत्ती तांची मनोवृत्ती अशा जायत्या गजालींचेर भाश्य केलां. आपल्या मिश्कील, विनोदी, शैलींत हे लेख चितारताना तांणी त्या त्या व्यक्तित्वाचो आदर शेणूंक दिवंकना हें म्हत्वाचें.

मनीस स्वभाव आनी मनीस वेव्हार हातूंतलें सत्य सोदपाखातीर उचंबळ जाल्ले कितलेच उमाळे हांगा दिसतात. हे उमाळे केन्ना विनोदाची गोड फोडणी घेवन जाल्यार केन्ना व्यंगाची मखलाशी लावन वाचप्याच्या भेटेक येता. पूण ह्या व्यंगाच्या आनी विनोदाच्या मुळांत दुख्खाची धग आसा, आदर आसा. मनशाच्या अंतस्करणाक स्पर्श करपी नमळाय आसा.

लक्ष्मीनारायण पारजांच्या बरपावळीक गोंयच्या मातयेचो परमळ आसा. गोंयची भूंय-भास आनी भौसांची लक्तुबाय तांच्या काळजांत किल्लता देखुनूच तांचे बरप फकाणेर आसुनूय मनाक भावता काळजांत स्थिरावता.

ही व्यक्तिचित्रणां बरोवप्यान साद्या सरळ भाशेंत रचल्या पूण ताकालागून तातुंतली कलात्मकताय तांणी बलिदान करूंक ना. सामान्य वाचप्याचें मनोरंजन करतानाच ताका तनामनांत खातकुतल्यो करीत, कुटल्यो मारीत ताच्या गिन्यानांत भर घालपी शंबरांतलें एखादें पुस्तक मेळटा. ''मेरेवेलो गांवकार'' ह्या पुस्तकाक तोच मान फावता.

❑❑❑

# गोंयांतले गोंयकार आनी गोंयांभायर गेल्ले गोंयकार

- सौ. शर्वरी प्रकाश जठार
केरी, फोंडें

"गोंय म्हजे भांगराचें, गोंयकारांचे अपूबायेचें।
व्हांवती न्हयो, धोलती शेतां मुमुरक्यानी हांसता आंतां।"

जण एक गोंयकाराक आपूण गोंयकार हे सांगपाक खूब खुशी ज़ाता. तशेंच ताका हाजो अभिमानय बी आसा. तशें ताका अशें दिसपा फाटल्यान कांयच गैर ना. गोंयांक रैमान भरभरून दिलां. ताका देवान कांयच उणे करूंक ना. ज्या गोंयांत व्हडली दर्याची गाज आसा तशेच गोंयकारांचे व्हडले मन आसा.

तशें पळोपाक गेल्यार; भारताच्या नकाशाचेर गोंयांक एका चिंचाऱ्या येद्या जाग्याचें स्थान आसा. पूण हो इल्लोसो जागो म्हणजे सवाष्ण बायलेक जशें कुकूम आसता तशें भारताक गोंयचें म्हत्व आसा.

आमच्या गोंयांत कांयच कमी ना. हांगा सल्ली प्रत्येक वस्त, फळां फुलांक एक वेगळेच स्थान संसारांत आसा. फुलांचो खाशेलो वास. तशेंच उदकाक लेगीत एक वेगळी चव आसा. नुस्त्याची रूच तर काय विचारूंच नाका आनी फेणी? या सगल्याचो खाशेलो असो रंग घेवन हांगासल्लो मनीस जल्माक येता आनी आपणाचे खाशेले अस्तित्व जगाक दाखयताय बी.

गोंयकार तशे सुशेगाद. तांका कोणाकूच फाल्यांची चिंता ना. आयचे घडयेक जे मुखार आसा ते रूचीन कशे खावप आनी भोगप हें तांका कोणेय सांगपाची गरज ना. बल्कांवांचेर बसून झांकड्यो मारप वा कदेलार बसून पांय हालयत कोणाची तरी फकाणां मारीत वेळ पासार करपाक ते आयकनात.

तशे गोंयकार पैशा फाटल्यान धांवनात. जर गिरिस्तकाय आसत तर ताका कोणाचे पडिल्लें नासता. आपणांच्या भाटांत वा कुळागरांत जे मेळटा ते खावन तो सुशेगाद रावता. पूण बाजारांतल्यान नुस्तें मात हाडल्याबगर रावना. गोंयच्यान कोणूय जेन्ना भायर वता तेन्ना नुस्त्याक लागून ताका आपणाच्या जिबेक मुरड घालचीच पडता. पूण गोंयाभायर वतना तो आपणाचे हे सुशेगातपण व्हरना आनी भायर आपणाची पात्रता दाखयल्या बगर रावना.

परामर्स करपाक गोंयकाराचो हात धरपी कोण ना. कोणूय सोयरो वा इश्ट गोंयकाराल्या घरांत आयलो तर गोंयकार ताका हुनहुनीत येवकार दिता तशेच ताका आपणाकडे आशिल्ले बऱ्यांतले बरें दिता. पूण एकदां बोट दिले कांय गिळपाक कोण फांटी रावना आनी अशें करून आयज जायते गोंयाभायले लोक हांगा येवन ठाण मांडून बसल्यात. ताणी हांगा येवन सगल्या वाठारांनी आपली उदरगत केल्या; हे पळोवन आमी गोंयकार तांची तोंड भरून तोखणाय करतात. आपल्या पायांसकयली धरतरी दुसऱ्याच्या अधीन जाल्या हे तांका आजुनुय कळना ही दु:खाची बाब.

भपके मारपाक आनी पटे ओडपाक गोंयकार आयकनात. घरांत निवळ पियेल्यार सुद्धां मिशेक तूप लावन; तो भायर सरता. पैसो मोडप आनी चैन व्यसना करपाक तो फुडें. आयज गोंयांत सायकल वा बैलगाडी दिसना; पूण दिसाक १०० वा ७० रु. जोडपी दादलो वा बायल स्कुटी वा मोटार सायकल आनी मोबायल घेवन भोंवताना दिसतात. तशेंच फॉल्गां मारप, विंगड-विंगड भेस, फॅशनी आनी स्टायली करपाक तो फाटलो फुडलो विचार मात सुद्धां करीना. कमी वेळांत आनी कमी कश्टांत पयसो कसो मेळावप हें ताका कोणी सांगचे पडना. गिमान काजू आनी पावसा तेपार तवशें घोसाळ्याचे मळे घालून तीन म्हयन्यांत तो वर्सा जाय तें पिकयता. ताका वर्सभर शेतांतले, भाटांतले कुळागरांतले काम नाका जालां. ताणी आपल्यो सगल्यो जमनी विकून पयसो केला. मटको, सट्टो जुगार खेळून तो पैशे जोडता.

जण एक गोंयकाराच्या आंगान कला, अभिनय आनी गोड आवाज ही एक देवान दिल्ली गोंयकारांक देणगी. जण एक गोंयकार आपल्या जीणेन एकदांतरी माचयेर चढ्टाच. ताज्या आंगान जे गूण आसा ते तो लोकांक दाखयल्याबगर रावचना. अशीच संद मिळिल्ले लोक आयज जायते गोंयकार फुडे पावल्या आनी जेन्नां ते गोंयांभायर वता त्याच वेळा ते खरे नांवा रुपाक येता.

गोंयांत आयज विंगड-विंगड सर्तींचो काळ सुरू जाला. वर्सुयभर गोंय कला अकादमी जायत्यो सर्ती घेता. केन्ना भजन, केन्नां फुगड्यो, घुमटां आरती, नाटकां, एकांकीका ह्या सगल्या सर्तींनी गोंयकार उमेदीन वाटो घेता आनी इनामाय घेता. तशेंच ही पंगडा जेन्ना गोंया भायर वता तेन्ना तीं सर्त जिकल्याबगर परती गोंयांत येनात.

सोशिकताय हो आनी एक गूण गोंयकारांकडेन आसा. ताणी साडेचारशीं वर्सां पोर्तुगीजांचे गुलामगीरीत काडली. बरें वायट मुकाट्यान सोसप. ताका खर विरोध करून रोखडेच तो कायदो हातांत घेनात. म्हणून हांगा आयज मेरेन शांतता आसा. गोंय आनी भायले लोक बरे भशेन एकठांय रावून सगले सण आनी परबी उमेदीन करतात. खून वा मारामारी जाता ही भायल्या लोकांक लागून.

परब आनी जात्रो हो गोंयकारांलो खाशेलो विशय. हाका नागोवन ताका नागोवन चवथी परब, तशेंच दिवाळी, दसरो, शिगमो गोंयंकार खोश्येन करतात. गांवचे जात्रेक आनी चवथीक गोंयांभायर आशिल्ल्या गोंयकारांक गोंयांत आयल्या बगर रावू नजो म्हणून तो मुजरत या तेपार गोंयांत येताच.

खंत एकाच गजालीची भोगता ती म्हणचे आयज गोंयकार कोण आनी गोंयाभायलो कोण हे कळप सामके कठीण जालां. गोंयांत हेर राज्यांतले जे लोक आयल्यात तांका गोंयांत १५ वर्सां रावल्याबरोबर गोंयकार म्हणून दाखलो मेळटा. सगल्यो सुविधा मेळटा. हाकालागून दोतोर आनी विजनेरांचे जागे ते भायले लोक बळकयतात तशेच तांची त्रास काडपाची तयारी आसता. आनी वचत थंय गोंयच्या सर्तीनी वांटो घेवन ते बऱ्यांतली बरी इनामा, जागे आनी पैशाचेर डल्लो मारतात आनी आमी तांचे कडेन पळैतात.

गोंयांभायर सरिल्ले गोंयकार कसलीय तरी मनांत उर्बा घेवन, हावेस धरून भायर सरता. गोंयांत ताका जायती संद वा वाट मेळना शिवाय घरकी मुर्गी.... हे आसाच. पूण भायर सरिल्ले गोंयकार आपली पुराय जिद्द, तळमळ, आस्त आनी सोशिकताय घेवनूच गोंयांतल्यान भायर सरता. तो केन्नाच फाटल्यान पळैना. अशे करून गोंयंकारानी भायर वचून आपले, गोंयचे आनी देशाचें नांव वैर काडलां; अजरामर केला हें बरोपाक खुशी जाता.

'कला ही गजाल अशी आसा. जी आंगातल्यान भायर काडून तिका पैलू पाडून लोकां मुखार हाडची पडता. आनी गोंयाभायर गेल्याबगर हे कलेक वाव मेळना.

गोंयाभायर गेल्या गोंयकारानीच गोंयचे नांव व्हड केला. जशें कोणी तरी म्हळां "गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले म्हान" गोंयां भायर गेल्या लोकांनी विंगड-विंगड वाठारानी आपले नांव फुडे हाडून दाखयलां. लोक पयली मनशाक वळखता आनी मागीर ताचो गांव विचारतात. हे भशेन गोंयचे नांव आख्ख्यें जगभर पावलां. हातूंत भितर जायते नामनेचे गायक आसात. भौमानेस्त दिनानाथ मंगेशकार आनी ताचे कुटूंब हांणी गोंयचे नांव व्हड केलां. जायते लेखक आसात, कलाकार आसात. चित्रकार आसात. खेळपी आसात. ताणी आपले गोंयचें भांगर केलां. भौमानेस्त जिवबादादा केरकर सारख्या मनशान खूब कठिण परिस्थितीक ३५० वर्सां पयली गोंयाभायर वचून 'सेनापती' पदाचेर ३५ वर्सां काम करून गोंयाक नांव मेळोवन दिलां.

पैली काळांत शिकपाखातीर गोंयांत शाळो ना म्हणून गोंया भायर वचचे पडटालें. खूब त्रासांनी शिक्षण घेवन ताणी परतून गोंयांत येवन आपल्या शिक्षणाचो आनी जिणेचो उपयोग गोंयाखातीर केलो. सुटके झुजाऱ्यांनी लेगीत हर तरेची ख्यास्त भोगून गोंयांक स्वातंत्र्य मेळोवन दिले म्हणून आयज आमकां हो दीस दिसला.

इंग्लंड, अमेरीका, जर्मनी वा कुयेट गेल्या लोकांक गोंय सदाच उलो मारीत आसता. या उल्याक तेको दिवन हे भायर गेल्लें लोक रग्गड पैसो घेवन परतून गोंयांतूच येतात. पूण गोंयकारा खातीर जर ताणी अमाप पैसो खर्च केलो जाल्यारूच गोंयकार ताजी तुस्त करतात ना जाल्यार ताका कोण वळखच ना.

तशेंच भायर वचून शिक्षण घेवन परते हांगा येवन हे भूंयची उदरगत जांवची म्हणून वावुरपी भौमानेस्त पर्रिकारा सारखेय लोक आसात. इंग्लंडाक रावून नायकान ६६ सारख्या प्रदूशण करपी कारखान्यांक पोट तिडकीन विरोध करपी डॉ. अनिल देसाया सारखे लोक गोंयांत आसात हो हांगासल्ले मातयेचो गूण.

गोंयकारा आळस आनी सुशेगातपणा जर कुशीक दवरीत नवे उर्बेन आनी उमेदीन जर ते कामाक लागत जाल्यार हें भुंयचें भांगर जावपाक, वेळ लागचो ना. अशें जालें जाल्यार ते 'जपानी' लोकांभशेन मुखार पावतले आनी तांचें नांव अजुनूय जगाच्या नकाशाचेर चकचकतलें

म्हणून म्हण्टां -
ऊठ गोंयंकारा ऊठ
सुशेगातपण सोड
आळस तुजो मोड
जगांत तुजें नांव जोड

❑❑❑



# संस्कृतायेचे दर्शन घडोवपी कलाकार- संजय नावेलकार

- कु. राजश्री द. जल्मी
खांडोळे, माशेल

मनीस जल्माक येता कितले आनी वता कितले हिशोब-कोंत आसना. कांयजाण फोल्गां मारपाक तर कांयजणां खऱ्यानीच ध्येय घेवन जल्माक येता. मनशाभितरली कलाकृती जो मेरेन भायर उक्ती जायना तो मेरेन मनीस गुपीत उरता. आनी ते प्रत्येकाचेर आदारिल्ले आसता.

माशेल हो गांव देवळांनी आनी कलाकारांनी भरिल्लो आसा. ते कलाकार म्हळ्यार चित्रकार, मूर्तीकार वा नाट्य कलाकार संजय नावेलकार, नाट्य कलाकार गिरीश नावेलकार, तबलो वाजोवपी तुळशीदास नावेलकार, मुर्तीकार दयांनद भगत आनी गायिका प्रचला आमोणकार ह्याच कांय कलाकारांक नमन करून हांव एका व्हड चित्रकार व्यक्तीमत्वाविशी बरयता तो म्हळ्यार, संजय रत्नाकर नावेलकार. ते मुळांतच माशेलांत रावपी एक व्हड चित्रकार, मुर्तीकार. ताचो जल्मगांव माशेल, तांचो जल्म दीस १७ जानेवारी १९६३, तांचे शिक्षण म्हळ्यार फकत धावी पास पूण आर्ट आनी इलेक्ट्रीकल तांचो वेवसाय आसा. कलेची आवड ताका ल्हान आसतना जाली, हे कलाकार चित्ररथ जे करतात ते रामायण वा महाभारतांतल्या घटनातलो चलचित्र (moveable) करतात तसले चित्ररथ चड सोबीत दिसता, आनी चित्ररथ सोबीत दिसपाखातीर कॅनव्हॉस जाय पडटा, तसल्या चित्राक लोक लक्ष्य दिवन पळेतात आनी कलाकाराच्या बुद्धीक चड वाव मेळटा.

संजय नावेलकार सांगतात की ताका मार्गदर्शन अशें कोणेच केलेना. तसो खास असो मार्गदर्शन करपी ना. पूण ताचो भाव गिरीश जो फायन आर्टाचो पदवीधर ताचेकडेन चित्ररथ, कलर डिझायना संबंदी भासाभास करता. खंयचेय शिक्षण सोंपेपणान मेळना अशे संजय नावेलकार म्हण्टा.

जैतीवंत चित्ररथ घडोवपी संजय नावेलकारान अंदू गोंयभर नामना जोडिल्या आनी थळावे शिमगोत्सव समितीन घडोवन हाडिल्ल्या सर्तीनी फोड्यां, केप्यां आनी कुंकळ्ळे पयली इनामां, वास्को, दिवचले, पणजे आनी मडगांवा दुसरी इनामां; तशेच सावड्यां तिसरे इनाम फावो जाल्यां. माशेलांतले कलासागर संस्थेच्या 'श्रीकृष्णाचे विराट दर्शन' हो जैतीवंत चित्ररथ घडोवपी ताका जिवंतपण हाडपी कलाकार संजर नावेलकाराचे नांव गोंयभर फांकलां.

आयज कितलीशीच वर्सां हे चित्ररथ सर्तीत तो वांटो घेता इनामा जोडटा. हे कलेच्या मळार गोंय राज्यांत ताणे स्वतःची अशी सुवात निर्माण केल्ल्या. ताचे कलासागर हे संस्थेत चित्ररथाची संकल्पनां, फेब्रिकेशन, डिजायन, हालचाली, साउंड इफेक्ट, लायट इफेक्ट ह्यो बाजू स्वता संजय सांबाळटा, जाल्यार ड्राईंग, कलर, सादरीकरण ताचो भाव गिरीश नावेलकार सांबाळटा.

संजय नावेलकारान घडयिल्ले चडांत चड चित्ररथ हे पौराणीक आख्यानाचेर आदारीत आसात. सामके सुरवातीच्या काळांत 'सॅन ॲण्ड सॅन' हे संस्थेवतीन ताणे निर्मिल्लो. चवथीचे परबे निमतान माशेलांतलो हुंदराचो गणपती, सोरपांचे गणपती आनी या वर्सा दसणीच्या फुलाचो गणपती ही चित्रां पळोवपाक आयिल्ल्या लोकांनी तुरस्त केली. नाटकाच्या मळार 'अणस हालवो, भुताचो वाडो, भटो भटो आपल्यो वाटो, पिसो हो शाणू ही नाटकुली बरोवन माचयेर हाडल्यात ते भायर अभिनय दिग्दर्शन उजवाडा येवजण,

आवाज येवजण ही कामां पळयल्यांत.

अहिल्या उद्धार धरून ते माशेल नागरीक समितीच्या बॅनराखाला तयार जाल्लो आनी गोंयच्या इकरा म्हालांनी जाल्ल्या सर्तींनी णव कडेन पयली इनामां जोडिल्लो. 'मत्स्यावतार ह्या चित्ररथाचो तातूंत आस्पाव आसा. हे विशी ताचे म्हणणे अशे आसा की ह्यो ज्यो पौराणीक काळांतल्यो घडणुको आसात तांका मूर्तरूप दिवपाक कलाकारांक खूब वाव आसा. तशेंच चित्ररथांक उठाव हाडपाखातीर जो व्हड कॅनवास जाय आसता तो ह्या पौराणीक घडणूकानी आयतेच तयार मेळटा आनी तातूंत स्वतःच्या कल्पनाचो जाय तसो रंग भरपाक मेळटा.

दुसरे म्हळ्यार रामायण-महाभारत ही महाकाव्यां आनी, अठरा पुराणा, तांतुतल्या म्हत्वाच्या घडणुकांचे देखावे पळेतना पळोवप्याच्या मनार ते घडणूकेचे फाटभूंयेचो तातुंतल्या पात्राच्या चरित्राचो खर परिणाम जाता. देखीक रामायणांतले प्रसंग पळेतना रामाची देखदिणी जीण एक पूत, एक भाव, एक राजा म्हूण ताणे मनीस जातीर घाल्लो दीर्घकालीन प्रभाव, भगवान श्रीकृष्णाची आयच्या मनशाक सुद्धा आदर्श म्हूण दोळ्यामुखार दवरची अशी जीण पळोवप्यांच्या दोळ्यामुखार उबी रावता आनी नकळ्यां मनशाच्या मनार बरे संस्कार करतात. ताच्या मनांत विचाराची वादळां उठ्टात. तांचे वैचारीक मंथन करता आनी हेच तर खऱ्या कलाकाराचे मुखेल काम आसता. फकत शिमगोत्सव चित्ररथ तयार करप आनी सर्तींनी दाखोवप इतले पुरतेच संजय नावेलकाराचे हे कलेतलें कार्य मर्यादीत ना. त्या भायर सप्ता निमतान वास्को, उजगांव-भोमा, करमळे हांगा संजय नावेलकार चित्ररथ तयार करता. इतलेंच न्हय तर गोंयाभायर मंगळूर हांगा जावपी अष्टम आनी शारदोत्सवाखातीर खास चित्ररथ तयार करपाचेंय काम संजय नावेलकार करता.



अशा ह्या कलागूण संपन्न कलाकारांची सरकारान दखल घेवप सभावीक गजाल आसा. कांय वर्सा पयली गोंय सुटकेच्या सुवाळयाच्या निमतान गोंय सरकारान ताचेकडल्यान वास्तो द-गामाचे गोंयांत आगमन हो खास चित्ररथ तयार करून घेतिल्लो आनी ताची भरपूर तुस्त जाल्ली. फाटली तीन वर्सा गोंय सरकार प्रजासत्ताक दिसा दिल्लीक जे चित्ररथ प्रदर्शीत करतात. तातूंत एक कलाकार म्हूण संजय नावेलकाराचो म्हत्वाचो वांटो आसा. पोरू 'सी' सायड हार्मनी ह्या चित्ररथाखातीर गोंय राज्याक पयले इनाम फावो जाल्ले तातूंतय संजय नावेलकरांचे कलेची किमया आशिल्ली.

संजय नावेलकारांचो भोवमान कलामळावयल्या कर्तृत्वाखातीर माशेल नागरीक समिती, राजीव गांधी कला मंदीर फोंडे आनी बलभीम व्यायाम संस्थेन केल्लो. तांचो सगल्यांत व्हड खोशयेचो खीण म्हळ्यार खूब देखावे आनी चित्ररथ तयार केल्यात ताची लोकांनी तुस्त केली, पूण फाटल्या वर्सा हुंदराचो गणपती केल्लो तेन्ना घडये भावार्थी मनशांक पसंत पडलो ना अशें दिशिल्ले. पूण जेन्ना लोकांनी ताची तुस्त केली तेन्ना तो चड खोशी जालो. ताच्या मनांतली खंत ही गोंयांत फकत शारानीच चित्ररथ सर्ती जातात हाका लागून थंयच्या लोकाक आनी जांचेकडेन येरादारीची सादना आसात अशा लोकाकूच ह्यो सर्ती पळोवंक मेळटा, गावगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांक हे चित्ररथ पळोवंक मेळनात. दुसरी खंत म्हळ्यार आताचे सर्तीक परीक्षक बरे आसनात आनी ताका लागून बऱ्या चित्ररथाचेर अन्याय जाता. तशेच पौराणीक विशय हाताळूक तरणाट्यांक कळना. कलाकार जावंक नाशिल्ले जाल्यार कोण जावपाचे या प्रश्नाचेर संजय नावेलकारान इतलेच सांगले की देवान म्हाका कलाकारच म्हूण जल्माक घाला जाल्यार हांव दुसरो विचार कित्याक करतलों?

हे कलेच्या मळार संजय नावेलकाराचो फुडार बऱ्या तरेन जावंचो हेच देवालागी मागता. संवसारान नामना मेळोवप हे प्रत्येकाचे कर्तव्य पूण प्रत्येकाचे बाबतींत हे शक्य ना. मनीस आपल्या कर्मान तशेच आंतरीक गुणान व्हड जाता. नावेलकार बाब लेगीत आंतरीक गुणान लेगीत परिपुर्ण आसात.

❑❑❑

# मनीस आनी नितळसाण

- सोनीया दि. फडते
सुलचेंभाट, कुंभारजुवें

देव हो सृश्टीचो निर्मातो. देवान सगळ्या ल्हान-व्हड जिवांक जल्मांक हाडल्यांत. तशेंच ह्या सवसाराचो मुखेल घटक म्हळ्यार ''मनीसजात''. हांका देवान घडयला. सगळ्या मनशाक देवान सारकेंच अवयव निर्माण करून जल्मांक हाडल्यांत. देवान मनशांक हात, पाय, काळीज, दोळे, बुद्धी हें सगळें गरजेचे घटक दिल्ल्यात. आमकां देवाचे आभार मानूंक जाय की ताणें आमकां म्हत्वाचें घटक दिल्ल्यात. आमी दोळ्यांन हो सगळो सैम पळोवंक शकतात. हात,पाय, आमी कामांक उपयोगी हाडूंक शकतात. बुद्धी आमकां बरें वायट कळोवन दिता.

जातनाच आमची जबाबदारी आवय-बापूय घेता. आमच्या जिणेंत चड लक्ष वयर काडपाक आमची जन्मदाती आवय घेता ती आमकां न्हावन धुवन निवळ दवरता. तशेंच आमकां देवाच्यो काणयो, हुशारकायेच्यो देखी दिवन आमची मानसीक उदरगत घडयता. ती आमकां लोकाकडेन कशें वागप, ल्हान व्हडांक कसो आदर दिवप हें शिकयता. तशेंच चारचौंगा भितर कशें वागप हेंय शिकयता. ती आमचो अभ्यास घेता. आनी आमची जतनाय घेता. आमची आवय जीणभर आमकां साबाळटां अशीना म्हणजे ती आमची जतनाय घेताच पूण आमकां न्हाणोवप, धुवप, कपडे घालप हें आमकां व्हड जातकीच आपले आपुणूच करचें पडटा. ताकालागून हें सगळें करतलो जाल्यार नितळसाण आमकां सांबाळची पडटा. ताकालागून नितळ आनी निवळ कशें रावप हेंय शिकचें पडटा.

शारीरीक तशेंच मानसीक नितळसाण ह्यो दोनूय गजाली आमकां लक्षात दवरुंक जाय. फकत वयल्या वयर शारीरीक नितळसाण ध्यानांत दवरूंक जाय अशें ना, मानसीक नितळसाण लेगीत तितलीच म्हत्वाची आसा. नितळसाणेत देव आसा. जो मनीस नितळनिवळ रावता, ताकांच देव पावता. जर आमी नितळ रावली जाल्यार देव प्रसन्न जाता. अशें खूब कडेन म्हणटा की ज्या मनशांचे घर निवळ आसा थंय लक्ष्मी सदांच रावता. आनी त्या घराची भरभराट जाता. आमी बुरशी रावली जाल्यार आमकां कोणूच लेखिना. दुसऱ्याच्या मनांत आपल्याबद्दल वायट विचार येता. आनी ताच्या भितर आपणांक कांयच आदर उरना. आमकां सदांच सकाळफुडें उठून न्हांवपाक जाय, बरें भशेंन तोंड धुवंक जाय. आमच्या पायांची नाखटां तशेंच हाताची नाखटां कापून निवळ दवरूंक जाय. नाखटां व्हड आसल्यार त्या नाखटांनी चिकोल भरता आनी तांतूत खूब जीव आसता जें आमच्या पोटांत जेवतना वयता. आमी सदांच न्हांवक जाय. आमच्या आगांक वास आयलो जाल्यार लोक फुड्यांत लेगीत रावनात. पयस पळतात. हाचें वयल्यान आमकां कळटा की नितळसाणेक कितलें म्हत्व आसता.

नितळसाण आमची शारिरीक तशींच मानसीक उदरगत घडयता. आमकां मानसीक नितळसाण दवरतलो जाल्यार बऱ्यो बऱ्यो आनी देख दिता त्यो गजाली आयकुपाक जाय. ताकालागून आमचें मन शांत उरतले. जसो जसो मनीस वयांत येता तसो तसो ताका बरें वायट कळटा. मनशान जर आपलो मानसीक विकास पडयतलो जाल्यार सदांच बऱ्या मनशांची, इश्टांची संगत दवरूंक जाय. जे बरी बरी गजाली करतात. व्हडल्याक तशेंच शिक्षकाक वर्गात आदर दितात. तशेंच आवय-बापायकडेन बरें वागतात. थोडे लोक भायर सूट-बूट घालून, मेकअप करून बरें नीट भोवतात. पूण घरांत सामकें बुरशें रावतात. मनशान घरांत तशेंच घराभायर नितळ कपडे घालून जाय. भायल्यान बरें भोंवलें म्हणून जायना घरांत लेगीत तशेंच रावंक जाय. मनशाभितर शिस्त आसूंक जाय. जो मनीस शिस्तप्रिय आसता तो सगळ्यांक प्रिय आसता. शारिरीक सुंदरकाय तशीच मानसीक सुंदरकाय चड म्हत्वाची आसता. दोगांय भितर फरक आसा. शारिरीक सुंदरकाय ही कांय वेळाची आसता. पूण मानसीक सुंदरकाय ही आयुष्यभराची आसता. शारिरीक तशेंच मानसीक सुंदरकाय नितळसाणेन राखल्यार दुयेंस आमचेपरस पयस पळटा.

नितळ रावपाचे आनीकूय फायदे आसतात. नितळ आनी निवळ मनीस दोतोरापासून दोन हात पयस उरता. आमची भलायकी बरी उरतली जाल्यार आमकां घराभितर तशेंच घरा भोवतणी आशिल्ले वातावरण निवळ दवरचें पडटलें. जर घरा कुशीक तुंबलेले उदक वा रेंबे आसल्यार ते रोखडेंच काडूंक जाय. जाकालागून आमकां मलेरिया सारकेले घातकी दुयेंस हात लेगीत लावपाक पावचेना. आता भितरली कूड तशीच भायली कूड बरी दवरतली जाल्यार आमकां नितळसाणेचेर लक्ष दवरचें पडटा. नितळसाण प्रत्येक कामांत

तशेंच खाणा-जेवणाचेर आदारिल्लें आसा. आमी ताजे जेवण तशेंच उकळलेले उदक पिवंक जाय. हें करतकीच उदकांतले जंतू मरतले आनी आमकां रोग जावपाक पावचोना. तशेंच जेवणापयली, जेवणाउपरांत आनी शौचालयांतसून येवन आमी साबणान हात धुवंक जाय. कारण आमी शक्तीशाली जातली आनी आमकां आरोग्याची संपदा मेळटली.

खुबशा लोकांची गर्दी ह्या दिसांनी दोतोराकडेन जमल्या. हाचें खूबशें कारण नदरेंत आयल्यात लोक घरच्या जेवणापरस भायलें जेवणाक चड म्हत्व दितात. रस्त्यार खंयच्याय गाड्याकडेन उबे रावन पावभाजी, भेळपुरी, बिरयाणी खातात. हे सगळें जिन्नस लोक दोळे धांपून आपल्या पोटांत उडयतात. तांका खबर नासता की ते जेवण कितलें दुशीत ते. गाड्यावयले लोक जे गाडो चलयतात ते खंयच्याय हातांनी आनी कसल्याय उदकाचो वापर करून फक्त पयशे कमोवपाच्या हेतून लोकांक खावयतात. आनी लोक ते खातात आनी दुयेंत पडटात. तशेंच आमी मिठाई घेतना जागरूक रावंक जाय. ज्या दुकानांनी मिठाई उगड्यार विकता थंय मिठाय घेवंक जायना कारण त्या मिठायेचेर कितलें तरेतरेचे जीव बसतात. म्हूण आमकां कसलीय मिठाय खावंक जायना. जीव म्हणजे मूस, किमसां हेर हें जीव जगावयलें आसतात. जें घाणींत बसतात आनी तेंच जीव खावपाच्या जिनसांचेर बसतात. म्हूण आमकां कसलीय वस्त विकत घेतना सारकें लक्ष दिवन घेवंक जाय.

पयलीचे लोक अडाणी आशिल्ले. तांका बरें वायट कांयच कळनाशिल्ले. तांका किते खावप किते जेवप तें कळनाशिल्ले. ते हातीक कितें मेळटा ते खाताले. मोनजातीक मारून ताका शिजयनासतना खातालें. न्हावप-धुवप तांका कळनाशिल्ले. पूण आतांचे जग तशें उरूंक ना. मनशांचे वागप, पिवप, खावप, जेवप सगळें बदल्लां. तरेकवार विज्ञानीक नवें नवें शोध येत आसात. कितल्याशाच शारांनी तशेंच गावांनी लेगीत स्कूल, कॉलेज, हॉस्पीटलांची स्थापना जाल्यांत आनी भुरग्यांक ज्ञान सगळ्या तरांनी मेळटा. तांका नितळसाणेचे म्हत्व ह्याच स्कूलांनी, कॉलेजानी मेळटा. खुबश्या स्कूलानी शिक्षक नितळसाणेचो एक तास दवरतात. तांका खुबश्या जाग्यार वचून वेगळो कॅम्प दवरतात. जांका एनएसएस म्हणटात. हे मजगती विद्यार्थी गांव निवळ करतात. सगळे वातावरण निवळ करतात. तशेंच खुबश्यो निवळ साणेच्यो गजाली सांगता- जसो जसो मनीस उदरगतीच्या पांवड्यार पावलो तसो तसो तो समजूतदार जायत गेला. नितळसाणेचे दुसरे रूप म्हळ्यार भलायकी. दुडवापरस भलायकी चड म्हत्वाची आसता. जर आमी आमचो जीव पाड घालून दीसरात काम केलें जाल्यार आमच्या हातांत हेंवूय उरना आनी तेवूंय उरना. आमकां पौश्टिक जेवण तशेंच उकळलेले उदक, नितळ निवळ कपडें, आयदना तांचो वापर करूंक जाय. तशेंच जीण सुदृढ उरतले जाल्यार नियमीत व्यायाम करपाक जाय. व्यायाम केल्यार आमची भलायकी सुंदर उरता. आनी सगळी कामां सडसडीत जातात. मनाक शांती मेळटा. जो मनीस आळशी रावता तो शेण्टा. आतां २१ साव्या शेकड्यांत बायलो खूब फुडें सरल्यांत. तांका नितळसाण किते ती कळटा. ताचें घर निवळ दवरपाक तांका कळटा. ह्या काळांत चडसो वेळ बायलांनी कामांक तशेंच आसपासचो परिसर निवळ दवरपाक घालूंक जाय. आतां बायलांक मिरसांग वाटपाक मिक्सर येयले आसात. जाकालागून कामां बेगीन जातात. आनी बरोच वेळ वाचता. पूण कामाच्या बोवाळांत आनी गडबडीन कांय बायलो घरांत कांयच करिनात. जर प्रत्येक मनशांचे घर निवळ आसल्यार मन लेगीत प्रफुल्लीत उरता आनी नवीन नवीन करपाची उमेद येता. इग्लीशींत एक म्हण आसा. "Cleanliness is next to godliness" म्हणजे जो मनीस निवळ आसता तो देवाच्या लागी आसता. तो सुखी आनी समाधानी उरता. जर आमी कामाक लागून मुलाखतीत गेले जाल्यार मनशाची पारख ताज्या कपड्यावरसून जाता. ताजे वागणे, उलोवप तेंय म्हत्वाचें आसता. मनीस शारीरीक, मानसीक तशेंच काळजांतल्यान निवळ आसूंक जाय. मनीस सादो आसलो म्हूण कांयच ना पूण तो निवळ आसूंक जाय. जर फुडारांक तशेंच आता मनशान नितळसाण राखल्यार मनीस रोगाचेर जैत मेळोवंक शकतलो. मनीस आनी नितळसाण हांचे एक अतूट नातें आसता जशें आवय आनी भुरग्यांचे.

❑❑❑

## म्हजेय इल्लें

मनीस आनी नितळसाण हांतूत मनशाक जल्म ते मरणा मेरेन पळोवचे पडटा. जर मनशान निवळ करपाचे सोडून दिल्ले जाल्यार सगळ्या जाग्यार फक्त हळशीक, कचरो, धूळ हे आमकां दिश्टी पडटलें. निवळसाण म्हणटा ते नावूच विसरून वतली आनी मनशाक फक्त तरेतरेचे रोग जावन मरण येतले. ताका लागून मनशान आपले सरभोवतणी तशेच आपले जग निवळ आनी नितळ दवरपाचो यत्न करपाक जाय. मनीस तर आपूण स्वताच जावन निवळ दवरपाचो यत्न केलो जाल्यार सगळे सारकें जातले. दुसऱ्याली चूक काडच्या पयली सदाच आपणे आपले पळोवपाक जाय. आपुणूच तर बुरसों रावलो जाल्यार दुसऱ्यांक सल्लो दिवन फायदो ना. वयल्यान समाज आपल्याकूच बोटां दाखोवपाक लागतलो.

नितळसाणीचो सल्लो दितना व्हडलें व्हडलें कार्यावळी करून समजोवपाचो यत्न करपाक जाय. घरांघरांनी वचून

पान २१ चेर

# बायनेट फायटींग : शैली आनी जीवनदर्शन

- एम्. एन. प्रभू
उडुपी

सुप्रसिद्ध कोंकणी लेखक महाबळेश्वर सैल हाणी "बायनेट फायर्टींग" म्हळ्ळो एक अत्याकर्षक, उत्कृष्ट कथासंग्रह कोंकणीमातेक समर्पित केला. बावीस काणयांच्या ह्या झेल्यांतली प्रत्येक काणी-कथावस्तु, पात्रचित्रण वर्णनावैखरी, संभाषणा चातुर्य, विशिष्ट शैली, जीवनदर्शन-खंच्याही दृष्टीन पळैतकीर अमोल रत्न म्हण्ण सांगचेच पडटा. सगळ्या उत्तम लक्षणांचें संगम आशिल्लो हो कथासंचय एक अपूर्व अमरकृती. जास्त कर्न सगळ्यो काण्यों स्त्रीपात्र केंद्रीकृत जावन आसात. ह्यो कथानायक्यो एक ना एक रीतीन दु:खतप्त जावन जळतात; सगळीं Tragic heroines म्हळ्यार अंत्याक मरतात म्हण्ण हाजो अर्थ न्हंय. जीवंत आसले तरी शोकसागारात वळवळतात: दु:खांत तळमळतात. "Sometimes living is more tragic than dying" अशें म्हणतात. टेनिसन् कवीन बरयिल्ले - "Tithonus" हाका एक उदाहरण. Thomas Hardy ल्या कादंबरींतल्या पात्रावरी हांगच्यो कथानायिका दु:खाच्या परिघीत भोंवतात.

तशेच लेखकान काण्यांक एक मनोवैज्ञानिक, मनोविश्लेषणात्मक आयाम दीवन काण्यों परिणामकारी केल्यात.

**शैली** : ग्रामीण जीवन दोळ्यामुखार बांधिल्तशें वर्णन करचे लेखकाक करतलामलक जाला. खयं सुद्दा कृत्रिमता अरगून पळयना. हार्डीवरी प्रकृती वर्णन सविस्तर जावन करचांत लेखकालो हात अगदी ऊंच. म्हणचेच पडटा. एक दोन उदाहरण थोडक्यांत पळोचे असंबद्ध जायना.

१) वारो सगळें वयर सकल करीत सोशतालो. विज्ज आरपार झगझगताली, विज्जेचे लोळ मळबा माथ्या वयल्यान भूंय मेरेन सूर मारिल्लेवरी येवन पावताले.

(मीर्गवाल, पेज. ११)

२) ह्या गांवची गच्च रुखावळ, शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां, उशेलां, न्हयेकडचे तारयाले सादोवप, फाटी कडच्या दोंगरातलो उजवाड सावळेचो खेळ तेका भोव मानवलो.

(चंदरजोत, पेज. १२)

लेखकान दिवचो उपमा अनुपम आसात म्हळ्यार अतिशयोक्ति न्हंय. उदा :

१) पूण ती आज बारीक धव्याधव्या फुलांनी चवरून रूख व्यापून आसली. खरोच पेरांबो रथ कसो सोबतालो.

२) हातांत बडी घेयल्यार एकाच पायान वार्यार उडिल्लेवरी चलता.

(सातजण मावळ्यालो भाचो, पेज.२४)

३) मुखार दोंगर काळोख कांबरून राकेस कसो वाट आडोवन उबो आसलो आनी तातुंतल्यान वाट काडीत वचपी वाट आता चेचिल्ल्या नागिणीवरी थंयच्या थंय वळवळटाली.

(एक सुन्नमरण, पेज. ४७)

४) पांखा मोडिल्लें सवणें कशें चीं चीं रडत सुमती घरा येयलें.

(सुमती, पेज. ६२)

५) विमलान केळीचो गबो सोलिल्लेवरी एकेक करून आपल्या आंगावेलीं वस्त्रां देंवयली.

(पोट्रेट, पेज. १६६)

वर्णन कर्तास्तना लेखक काव्यमयशैली उपेग करता; उपमा, रूपक, प्रतिमा- हीं सगळीं त्या कौतुकमय काव्य शैलीची, अविभाज्य अंग जातात. लेखक सामान्य ग्रामीण लोकालीं सादा, सोपीं मधिमधि जानपद शैली वापरता. हाजान काण्यांक नैजतेचो उठाव सहज जावन उद्भव जाता. ग्रामीण जीवनांत तादात्मय जावन, परकाय प्रवेश करन लेखक सोताच्या अणभवान, सूक्ष्मवीक्षणेन तांचे मनोरंग कापसावरी पिंजारून वाचकवृंदा मुखार मांडता आनी ह्या कौशल्यकारी योजनेंत यशस्वी जाता. खंय सुद्दा (वर्णना, करताना अनिवार्य जावन येवपी काव्यशैलिक सोडल्यार) कठिण शब्दांचो प्रयोग करूंक इत्सा पावना. ह्यो काण्यो एक उत्तम शैलीक निदर्शन आनी निकष म्हण मानच्याक फाटी फुडे पळोका म्हण्ण ना.

**कथनतंत्र** : "Coming events cast their shadows before" एक अंग्रजींत म्हण्ण आसा. हाका Irony अशें म्हणतात. मुखार जावचो विषय आदीच सूच्य रीतीन सांगचे. हाचो उपेग लेखकान यशस्वीरीतीन केला. दोंगरांत एक विचित्र शेवणें रडटालें (एक सुन्नमरण पेज. ४६) हें अवचिन्ह मुखार जावचे सुशीला आनी नवजात शिशूचे मरण सूचयता.

**जीवन दर्शन** : जास्त करून सगळ्यो कथानायिका दुरंत पावतात. म्हण्ण वयर सांगला. दुरंत म्हळ्यार मरतात म्हण्ण अशें अर्थ न्हंय. दु:ख अणभवतात. हेंच ह्या ''दुरंत'' शब्दाचे तात्पर्य. Ibsen नाटककाराल्या "A Doll's House" नाटकांत नायिका Nora "I am staying with strange people" म्हण्ण दार बंद कर्न वयता. Ibsen सांगता The door was shut forever" ह्या विषयांत हार्डील्या कादंबरींत प्रकट जावचे दु:ख आनी हांगा येवचे दु:ख हांका बरेच साम्य आसा. एक पावल मुखार वचून हार्डी जीवन एक दुरंत नाटक म्हणता. तेच प्रमाणे हार्डील्या कादंबरींत विधी (Fate) एक महत्वाचे पात्र खेळता. ह्या कथासंग्रहांत तशेच. उदा :

सुमतीचो घोव तेका सोडून गुलाबीचो गुलाम जाता. तें मेस्ताल्या घरात काम कर्न संसार सांभाळचे काम करता. काणीच्या अंत्याक विधवा म्हण्ण मेस्त तेका काम दीना. विधी तेचे रोटी ओडून घेता. कित्याक अशें जाता? ताका उत्तर ना. तेचे नशीब. सुमतीक दोन ल्हान भयण्यो आसात म्हण्ण गरीब कुटुंबांत तेका आवय बापूय लग्न करून दितात. असलें संभावित जीण्याक असली शिक्षा कित्याक? आमी मागून आयिल्ले आमी भोगका. सगळे पूर्वनियोजित. विधिलिखित. शंकुतलाची आवय जावपी महदाशा पूर्ण जायना. कित्याक म्हळ्यार हो विधीचो खेळ. भुकेन भाजून करपून गेल्लो देवप्पा पयशे कमोपाक प्रयत्न कर्न पूत दिनूक बळी दिता. ताका पयशे मेळनात. मेळता पुतालें स्वयंकृत अपराधाचे प्रेत. सातजणमावळें असून सुद्दा रमेशाक हणकोण जात्रेक वचून आशीच परत येवका पडटा. तेचें नशीब खोटे! प्रभावती कांही चूक करनास्तना दूखाची मिरवणूकेचे नग्ननृत्य पळयता.तें ततें नीबांत बरैला. मॅड नागेशा वांगडा समागम कर्न गुरवार जाल्लें शांती एक क्षणाक तेगेलें मानसिक संतुलन चुकिल्ल्याक असहाय मनोवेदनाचे शिकार जाता. सहदेव ट्रक् चलयतस्तना भुरग्याल्या आंगार व्हरन स महिन्ये जेलांत रावन स्वत:च्या आनी आपल्याल्या कुटुंबाच्या अनंत दु:खाक कारणीभूत जाता. तेने केलिल्ली चूक चूकच. तेचे खातीर तेणें दु:ख भोगचें न्याययुत. जाल्यार चूक कित्याक घडली? तेका उत्तरना. प्रभावतीचो बापूय फौजदार लांच घेतलें म्हण्ण निलंबीत जाता. कोर्टांत केस चलता. निर्दोष म्हण्ण थारिल्ल्या एक दीस पयलीच तो भायर पडता. ''तुळस'' काणींतुली वेश्या, बापायच्या आग्रहानच धंदो करता.

हीं सगळीं उदाहरण पळैल्यार हो प्रारब्धाचो खेळ. खंचे भगीरथ प्रयत्न केल्तकीर विधीचा कोपा मुखार मनशालें कांयच चलना. ताका देव म्हण्णा, किंवा दैव म्हण्णा. तेचे शिवाय कांयच चलना. (तेन विना तृणमपि न चलति) बहुतेक सगळीं पात्रां नियतीच्या परिद्दींतच भोंवतणी घालतात.

जास्तकर्न सगळ्यो कथानायिकां दुरंत पावतात म्हण्ण वयर सांगून प्रसिद्ध अंग्रजी कादंबरीकार थोमस् हार्डी बरोबर महाबळेश्वरांची तुलना केल्या. जीवन एक दुरंत नाटक म्हण हार्डी म्हणता आनी फक्कत निराशावादाचो प्रतिपादन करता. मनीसविधीच्या हातांत एक कटपुतळी म्हण्ण हार्डीन सांगिल्ल्यावरी महाबळेश्वर सैल सांगता. तितल्याकच तुलना सोपता. सैल निराशावादी न्हंय. ताचो आशावाद अनेक काण्यात प्रकट जाला. उदा : ''हांव हार मानचो ना'' म्हण रामसिंग आशावादी जावनच जिंकता. ''अस्तित्व'' काणींत निर्मल क्यान्सर रोगी घोव दिनेशाक उद्रेकित करन गुरवार जावन भुरग्याक जल्म दीवन वंशपरांपरा चलोचांत यशस्वी जाता. तशेंच सुशिक्षित नवयुवती वैशाली विधवा जाल्तकीर, अनेक दूकांची सरमाळा धारण करन घरच्या सगळ्यांलो अभिप्राय धिक्कार्न रंगीत साडी न्हेसून. ''मेकप्प'' कर्न परत आपल्या. पी. आर्. ओ. कामाक हाजर जाता. ''उजवाडाचें पावल'' ह्या शीर्षिकांतच लेखकालो आशावाद प्रखर जावन उद्दीपन जाता.

जीवनांतले सगळें पूर्वनियोजीत, विधिलिखत असो दृढविश्वास आसलो तरी लेखक आशावाद अथवा निराशावाद हांच्या भानगडींत पडना. फक्कत आमगेले जीवनाचें चित्र वाचकां मुखार मांडता. Hamlet म्हणता ''कलाकार जीवनाक हारसो धरता'' खंचोही उपदेश दिवचो ताचो उद्देश न्हंय. तातु कसलोतरी जीण पाठ आसल्यार तो घेवचो किंवा सोडचो विषय वाचकाक सोडिल्लो. श्रेष्ठ लेखकावरी सैल खंचोही उपदेश दिवच्याक प्रयत्न करना. तशें पळैल्यार उपदेशपर साहित्य (Didactic Literature) हरगीस श्रेष्ठ प्रकारचे साहित्य न्हंय. हें कथाकाराक खात्रीन खबर आसा.

खंचीही कृती श्रेष्ठ जावका जाल्यार तेची थोरवी मापचाक कांही मानदंड आसात. कृती लेखकाल्या अणभवान बरायिली आसचाक जाय. तेचे व्यक्तित्व (Personality) कशें कृतींत प्रतिबिंबित जाला हें पळोपाक जाय. फकत Subjectivity अभिव्यक्त जाल्यार पुरो जायना. हरेक मनशाल्या वैयक्तिक जीवनांत एक कादंबरी बरोवची तितलो वस्तुविषय आसताचत. पूण तें तेने कशें (Objective) निरपेक्ष जावन अभिव्यक्त केला- हो सुद्दा एक महत्वाचो विषय जाता. तशेंच कृतीक सार्वकालिक (universal appeal) हृदयंगमता येवचाक लेखकान प्रेम, असूया, कृतज्ञाता, दया, माया- असलीं मनशाली मूलभूत भावनां बद्दल बरोचाक जाय. ह्यों मनशालीं भावनां सार्वकालिक आसल्यान हृदयस्पर्शी आसून कृतीचे आयुष्य घट्ट जावन दीर्घजावन अमौल्यां जाता. शेक्सपियराल्या अखंड अनंत कीर्तीक हो सुद्दा एक प्रमुख विशय. ह्या दृष्टीन पळैल्यार हो कथासंग्रह एक श्रेष्ठकृती म्हणचेच पडटां. मूलभूत भावनां, चित्रमय शैली, संभाषणचातुर्य, चित्ताकर्षक कथनकौशल्य, संवेदनशील, मनोविश्लेषणात्मक सत्वयुत, आनी सरळ, संयमशील गद्य आशिल्यान ही कृती सामान्य आनी असामान्य वाचकांक मंत्रमुग्ध करता. विषय गोड आसों किंवा तिखट आसों ह्या काण्यांत जीवन सौंदर्य आसा. प्रत्येक काणी एकदम पकडच्या

विशयांत अत्यंत यशस्वी आसा.

कन्नड साहित्य दिग्गज वि. कृ. गोकाक दिनकर देसाईल्या काव्या बद्दल बरयतना म्हणता- ''दिनकराल्या जीवनांत दोन मंदार कुसुमं फुलल्यांत- एक तेंची देशभक्ती आनी दुसरी त्यांची काव्यशक्ती'' ही उक्ती महाबळेश्वर सैलांक समर्पक जावन अन्वय जाता. म्हण सांगचे अनिवार्य. हो कथासंग्रह ''एकुणिशे पासश्टच्या झुंजात हुसेनीवाला (पंजाब) रणभूंयेर हुतात्मे जाल्ले'' सेकंड मराठा लायट इन्फन्ट्रीचें'' म्हजे एकवीस सांगती - तांकां सगळ्यांक'' अर्पण केला. हाच्यापेक्षा जास्त उदात्त, उत्तुंग, उत्कृष्य विचार दुसरो हरगीस ना. तशेंच तेंची कादंबरी 'काळी गंगा'. ''म्हजे कारवारच्या मातयेक'' अर्पण केला. सोता वीर सैनीक आसून देशा खातीर प्राणार्पण करचाक सिद्ध आशिल्ले सैलांच्या देशभक्ति बद्दल जास्त बरोवचे अनवश्य. तेंची साहित्यशक्तीची महिमा अगाध आनी अवर्णनीय. ही अपूर्व कृती खंचाही भारतीय भाशेंतल्या श्रेष्ठ कथासंग्रहाक समानस्कंध जावन राबचाक समर्थ आसा. श्रेष्ठ साहिती महाबळेश्वर सैल कोंकणी साहित्याच्या मळबांतुलो इंद्रधनुष्य म्हणचेंच पडटा.

□□□

# दोळ्यांतलें मोती

तुज्या पोल्यावेल्यान
दोळ्यांतलें एक मोतीं
टपपऽऽऽ करून सकयल पडलें
धतरिच्या अस्तित्वांत
विरगळचे पयलीं
हावें तें अचळय उखलें
आनी काळजाचे उबेक धरलें
एक याद आनी
मेटोवंक नाशिल्ली भेट म्हूण
आयज तें म्हज्या
काळजाच्या कुरकुटांत सुगूर आसा
तुका जाय तेन्ना
तूं तें घेवन वच

– सुनील पालकार

# रितो कागद

रितो कागद म्हज्या
तोंडाक पळोवन हासता
मनांत आसून लेगीत
उतरांची न्हय बरोवक
पावना म्हण
ह्या कागदाक
किते खबर
हांव रावता
त्या उसळपी ल्हारांक
जी वाट पळयता त्या
दर्या देगेची
हांव रावता
त्या वोतात करपपी
रेवेची
केन्ना तांका शितलताय
मेळटली म्हण
तांचे उमाळे
म्हाकां बरोवचे कशे दिसतात
हांव बरयता बरयता
केन्नाच,
रितो कागद भरत वता
कागदाचो हासो धांवत वता

# सोद

सोद घेता हांव
म्हज्या दुखाचो
कित्याक म्हंण हे
दुख्ख म्हज्याच वांट्याक
आयले
कित्याक म्हण हे
त्रास म्हाकाच सोसचे पडटा
पूण
जेन्ना हांव वाटेवयल्या
त्या हात पाय नाशिल्ल्या
भिकाऱ्यांक पळयता
तेन्ना
म्हजेच दुख्ख
म्हाका
दवा येदे जाता

– रसिका कुमटेकार

# पर्यावरण - गीतां

तुकाराम शेट



'पर्यावरण गीतां' हें पर्यावरण शिक्षणावयलें पुस्तक कोंकणी भाशेंत तयार जालां. बालशिक्षणाच्या मळार वेगवेगळे प्रकल्प घेवन वावुरपी संकल्पक श्री. तुकाराम रामा शेट हांचें हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादमीन उजवाडायलां.

ह्या पुस्तकांत पर्यावरणाच्या वेगवेगळ्या घटकांची म्हायती आसा. मनीस आनी हेर प्राणीमात्र, वनस्पत हांचें नातें संबंद, सैमीक संतुलन, पर्यावरणाची राखण आनी संवर्धन, झाडांचें म्हत्व, धर्तरी आनी जीवमंडळ, दर्या, पावस, सूर्य, वायूमंडळ, गोंयच्या पर्यावरणाची म्हायती, पर्यावरणाचो इबाड आडावपाविशीं, तशेंच पर्यावरण आनी लोक, पर्यावरण आनी अर्थशास्त्र, पर्यावरण आनी विज्ञान अशा पर्यावरणाच्या विंगड विंगड आंगांविशीं म्हायती आसा.

पर्यावरणाविशीं म्हायती सोपे तरेन समजूंची म्हूण ही भुरग्यांच्या लोकवेदाच्या रुपान बरयल्या. नाच, गितां, खेळ, उमाणीं, कचे, फुगडी, काणयो, प्रश्नमंच, संगिताच्या साजांतलीं गितां अश्या वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान मांडल्यांत.

ह्या पुस्तकाच्या आदारान भुरग्यांनी विज्ञानीक नदर वाडटली आनी पर्यावरणाविशी जागृताय जावन पर्यावरण राखण आनी संवर्धन जावपाक पालव मेळटलो.

ह्या पुस्तकाखातीर गोवा कोंकणी अकादेमी, पाटो कॉलनी, पणजी हांगा संपर्क करूं येता.